# जाग

र्स २५ ◇ आंक ९ ◇ एप्रिल १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

ावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्‌डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो:

जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल: रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### धर्मान्तरांचो प्रस्न

धर्मान्तराच्या प्रस्नाचेर राष्ट्रीय पांवड्यार चर्चा जावची अशी एक सुचोवणी आयिल्ली. 'नाका, नाका, चर्चेची कांय गरज ना' अशें म्हणून कांय जाणांनी ती जावंक दिली ना. कित्याक, समजना. धर्मान्तरां देशांत जायनात व्हय तर? धर्मान्तरांचो प्रस्न आमच्या कांय यक्षप्रस्नांमदलो एक न्हय व्हय तर? चर्चा जावंक जाय. ते बगर सत्य स्पस्ट जावचें ना.

लोकांक तरांतरांचीं हांयसां दाखोवन पाद्री तांकां किरिस्तांव करतात, मुल्ला मौलवींच्या हातांत तर लोकांक मुसलमान करपा खातीर अरब देसांतल्यान दुडूय आतां भरपूर येवपाक लागला – सगळें खरें. पुणून किरिस्तांव कोण जातात? मुसलमान कोण जातात? एक खंयचोय मुसलमान किरिस्तांव जाला व एक खंयचोय किरिस्तांव मुसलमान जाला व्हय तर? अजून मेरेन तरी आयकूंक येवंक ना. हिन्दूच एक तर किरिस्तांव जाल्यात वा मुसलमान जाल्यात. बरें, हिन्दू समाजांतले कोण किरिस्तांव वा मुसलमान जाल्यात? खोलायेंत देंवले जाल्यार आमच्या लक्षांत येतलें – ज्या लोकांक हिन्दुंनीं हँच फँच करून पयस दवरले, मनशां भाशेन समाजांत जियेवंक दिले नात, तेच हिन्दू धर्म सोडून दुसऱ्या धर्मांत गेल्यात. जे मेरेन हिन्दू समाजांत आमी समानताय हाडचे नांत, कोणाक ऊंच लेखतले, कोणाक उणाक लेखतले ते मेरेन अपमानीत अवस्थेंत पडिल्ले हिन्दू धर्मान्तरां करीत रावतले.

धर्मान्तराचेर राष्ट्रीय पांवड्या वयल्यान चर्चा जाल्ली जाल्यार हें सत्य देशा मुखार स्पस्ट जातलें आशिल्लें.

धर्मान्तरांचेर उपाय कायद्यान तांचेर बंदी हाडप हो न्हय. धर्मान्तर करतल्यां मुखार आशिल्ल्यो अडचणी पयस करप होच एक आसूं येता.

हिन्दू समाजांतलें जातीय ऊंच उणाकपण हेंच धर्मान्तरांच्या मुळांत आसा. हिन्दू धर्माक मुळा थावन बदलपी एक समाजीक क्रान्ती घडोवन हाडले बगर धर्मान्तरां आळाबंदा येवपाचीं नात. हेंय सत्य देशा मुखार स्पस्ट जावंक जाय आशिल्लें.

रोमा रोलांनी बरयल्लें गांधींचें जिवीत वाचून इंग्लंडच्या एका नावीक दळाच्या अधिकाऱ्याची धूव मॅडॅलिन स्लेड हिन्दुस्तानांत आयली. नीट साबरमती आस्रमांत वचून रावली. गांधींनी तिका आपणाली धूव मानली आनी तिका मीरा म्हूण एक देशी नांवूय दिलें. आश्रमी जिवितांत ती एकरूप एकजीव जाल्ली. तरी आसतना तिका दिसपाक लागलें, आपूण जे मेरेन हिन्दू जायना ते मेरेन आश्रमी सांगाती सुशीला नैयरीक वा प्रभावतीक मानतात तशे आपणाक आपणाली मानचे नात. एक दीस ती गांधीं सरी गेली आनी म्हणपाक लागली, 'म्हाका हिन्दू जावपाचें आसा... म्हाका हिन्दू करून घेयात...' गांधींनी तिका म्हळें, तूं किरिस्तांव म्हूण जल्माक आयल्या, किरिस्तांव म्हुण्णूच व्हड जाल्या... तूं किरिस्तांवूच राविल्ली म्हाका आवडटली. हिन्दू धर्मांतलें जें जें तुका घेन दिसता तें तें सगळें अनमन नासतना घे, सगळें आत्मसात कर... तूं बऱ्यांतली बरी किरिस्तांव जातली... आनी म्हाका खूब आवडूंक लागतली...'

गांधींनी तिका हिन्दू करून घेतली ना.

एकलो हिन्दू तरणाटो सि. एफ्. ऍंड्रयूजच्या प्रभावांत आयलो. तो गांधींसरीं आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'हांव किरिस्तांव जातलों म्हणटां...' गांधींनी ताका विचारलें, 'कित्याक? हिन्दू धर्म सोडपाची गरज ना. किस्तांव धर्मांतलें तुका जें जें घेन दिसता तें तें मेकळेपणान घे... ख्रिस्ता मुखार भक्तिनम्र जा... तुजो हिन्दू धर्म अदीक उजळ जातलो...'

सर्वधर्मसमभावी कोणूच धर्मान्तराचो पखो घेवचो ना. आपुणूय धर्म बदलचो ना. दुसऱ्यांकूय बदलूंक लावचो ना. कित्याक, सर्वधर्मसमभावाचे बुन्यादींत सगळे धर्म खरे आनी सगळे धर्म बरे ह्या दोन तत्त्वांचो आसपाव जाता तसो 'सगळे धर्म अपूर्ण' ह्याय तत्वाचो जाता. एक धर्म सोडून दुसरो धर्म घेवप म्हळ्यार ह्या धर्मापरस तो बरो अशें मानचें पडटा. 'सगळ्यांत बरो' धर्म खंयचोच ना. सगळेच बरे तशे सगळेच अर्दकुटे... अपूर्ण... हिन्दू धर्मांत घयसांव, कोयर भरला तसो किरिस्तांव धर्मांतूय भरला. मुसलमान धर्मांतूय भरला. एकामेकांकडलें घेवचें. घयसांव कोयर सगळो पयस करचो. आनी आपापणाले धर्म 'पूर्ण' करचे.

चर्चा आडावन कितलीशींच सत्यां ह्या लोकांनी देशापरसून लिपोवन दवरलीं.

लोकशाय ही! कसले दिवे लायतली? बदल कसलोच घडोवन हाडची ना. हाडूंक दिवपाचीय ना.

## आमचे वांगडा गोंयूय व्हड जावंक जाय

गोंयांत व्हड मनीस जल्माक येनात व्हय तर? येतात. पुणून आमी तांकां वळखूंक पावनात. तांचे आनी आमचे मजगतीं काळाचो इतलो धुल्ल उंबिल्लो आसता की त्या धुल्लांत आमकां ते दिश्टी पडनात.

हालिंसाराक आमी व्हड गोंयकार म्हूण लखबादादा, जीवबादादा, भाऊ दाजी, फ्रांसिश्कु लुइश गोमिश हीं कांय नांवां घेवपाक लागल्यात. पुणून लक्षांत दवरपा सारकी मजाल म्हळ्यार, तांच्या काळांतल्या लोकांक ते दिश्टी पडूंक नाशिल्ले. काळाचो धुल्ल जमनीर देंवले उपरांतूच तांकां आमी वळखूंक पावल्यात. तेवूय आमी वळखूंक पावले उपरांतच्या काळांतले लोक. हांच्यांत एक खोसदेणो आडवाद आशिल्लो तो मिनेझिस ब्रागांसाचो. तांकां तांच्याच काळांतले लोक 'मायॉर द तोदुश' — सगळ्यां परस व्हड म्हणपाक लागिल्ले. आशिल्लेय बी ते सगळ्यां परस व्हड. त्रिश्तांवाचें नांव हालींच मुखार आयलां. आनी धर्मानन्दांचें तर अजुनूय कोण घेनात.

धर्मानन्दाक 'जाणवाय' लेखपी काल पयर मेरेन लोक आशिल्ले.

पुणून एक मजाल लक्षांत दवरूंक जाय. हे सगळे स्वता व्हड जाल्यात. हेरांक वांगडा घेवन, तांकांय व्हड करून हांच्यांतलो एकलोय व्हड जावंक ना. परिणामी, व्हड व्हड जाले, लोक आशिल्ले त्याच पांवड्यार उरले.

केन्ना केन्ना प्रस्न पडटा, आमी अशे व्यक्तिपरक — individualistic जावपाक कारण कितें जाल्लें आसूंक जाय? आमचो अध्यात्म बी न्हय मू? संवसारांत आमी एकलेच आयल्यात, एकलेच वचपाचे आसात, जण एकल्यान आपणाल्याच बऱ्या भल्याचें चिंतचें, 'आपूण आपणाक, देव समेस्तांक' हेंच आमकां अध्यात्मान सगळ्यांत चड शिकयलां. 'मोक्ष' जोडचो जालो जाल्यारूय आपणालोच जोडचो, बाकी कोण आपलें न्हय, बायल आपली न्हय, भुरगीं न्हय. ह्याच संस्कारांत वाडिल्ल्यान आमचें व्हडपण आमचे वांगडाच सोंपलां. तें गोंयाक व्हड करूंक पावूंक ना. सत्या, संपत, मान भोसान सगळें आमी आपणा खातीर, आपणाल्या बऱ्या भल्या खातीर, आपणाल्याच संतोसा खातीर जोडीत आयले. प्रोफसोर, दोतोर, लेखक, कवी, चित्रकार, संगीतकार बऱ्यांतले बरे जावपाक आंवडेले. आनी बऱ्यांतले बरे जालेय बी. पुणून आमचे वांगडा दुसऱ्यांकूय व्हड करूंक जाय, आमच्या ह्या चडपांत तांकांय आसपावन घेवंक जाय म्हणपाचें आमकां केन्ना येवजलेंच ना. अध्यात्मानूय केन्ना शिकयलें ना. कर्तुत्व 'एकल्या'नूच करप अशें आमी मानीत आयले. हाका लागून जिवितांत आमी सगळ्या मळांचेर आत्मकेंद्रितूच उरले. करियरिस्टूच जाले.

फाटल्या कांय वर्सांत कांय 'व्हड गोंयकारां'च्यो वळखी जाल्यो. लोकीक नदरेन व्हड. कोण खंयचे बँकेचो अधिकारी, कोण खंयचे कंपनिचो अधिकारी... म्हजी तकली मात्शी विचित्र. हांव तांचें व्हडपण तर्जूंक बसलों. गोंय स्वतंत्र जावचें म्हूण हांणी कितेंय केल्लें व्हय? ना. गोंय महाराष्ट्रांत वचचें न्हय, वेगळें उरचें म्हूण कितेंय केल्लें व्हय? ना. वचचें म्हूण तरी कितेंय केल्लें व्हय? ना. कोंकणी जावची म्हूण कितेंय केल्लें व्हय? मराठी उरची म्हूण तरी कितें केल्लें व्हय? ना. फाटल्या पांच दसकांच्या काळांत गोंयांत जे संघर्श चल्ले तांतलो एकूय हांच्या जिवितांक स्पर्शूंक पावलो ना. हांणी आपूण, आपणालो करियर, आपणालीं बायल भुरगीं, आपणालो बँक-अकाऊंट सोडून कितेंच लावन घेतलें ना.

तांचोय गुन्यांव ना. गोंय ल्हान. ताचे व्हडपणाचे आदर्शूय ल्हान. बिद्वत्तेचे आदर्श तर सगळ्यां परस ल्हान.

मनशान आपणा मुखार अशे तरेचें एक ध्येय दवरूंक जाय की तो केदोय कर्तुत्वी आसूं, एकलो केन्ना करूंक पावचो ना. धा जाणांचो हातभार लागले बगर तें केन्ना तडीक वचचें ना — शेंकड्यांनी लोक एकठांय येवन एकामेकांच्या आधारान, एकामेकाक सांबाळून घेवन काम करूंक पावले जाल्यारूच तें जोडूंक येतलें. असल्या खंयच्याय चार चवगांच्या वावरांत गोंयकार घालून घेतले तेन्नाच ते खरेल्या अर्थान व्हड जावंक पावतले आनी तेन्नाच गोंय वयर चडटलें.

वैयक्तिक कर्तुत्वान व्हड कलाकार, व्हड साहित्यकार, व्हड उद्वेगपती जावं येता. लोकांचे नदरेनूय भरूं येता. वैयक्तीक कर्तुत्वान जवाहरलाल, लोहिया निर्माण जायनात. जवाहरलाल, लोहिया सामुहीक कर्तुत्वानूच वयर सरतात. आनी जवाहरलाल, लोहिया आपणा वांगडा देश वयर काडूंक पावल्यात.

गोंयचो खंयचोच 'व्हड' मनीस गोंय व्हड करूंक पावूंक ना.

## फायव्ह-स्टार गुलामी – १

गोंयकारांक आपणाली भास कोंकणी म्हूण सांगपाक कितें जाता, समजना. ते एकामेकांकडेन उलयतात कोंकणींतल्यान. कोणेंय, धरूंया, तांचे सणकुटेर सणसणीत बरें फुलयलें जाल्यार, 'तुका दाखयतलों हांव... तुका बुद्द शिकयना जाल्यार हांवूच न्हय जायन' अशें मनांतल्या मनांत फणफणून म्हणटात कोंकणींतल्यान. एकाद-दुकलें संकश्ट कोसळ्ळें आनी तें सोसूं नज जालें जाल्यार 'देवा, ह्या संकश्टांतलो म्हाका वाटाय रे सायबा' अशें भितरलें भितर देवाकडेन मागतात कोंकणींतल्यान. वेंचणुकां वेळार मतां मागूंक वतात तेन्ना लोकांकडेन तीं मागतात कोंकणींतल्यान. गोंयकारांक आपणाली भास कोंकणी म्हूण सांगपाक दुसऱ्या पुराव्यांची गरज ना. मामीर, हेच भाशेंतल्यान भुरग्यांक शिकोवंक जाय अशें म्हणपाक तांची गची कोण अंदिता, समजना. येवरोपांतले मारीय मॉतेस्सोरी पसून भारतांतल्या जे.पी. नायकां मेरेनच्या सगळ्या शिक्षणतज्ञांनी भुरग्यांक हेच भाशेंतल्यान — तांचे मायभाशेंतल्यान — शिकोवंक जाय म्हूण सांगलां आनी सभ्य संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी फाटल्या शें-सवायशें वर्सां सावन हेच भाशेंतल्यान भुरग्यांक शिक्षण मेळत आयलां. गोंयांतूच तें कित्याक मेळना?

फाटीं पणजेंत खासा सरकारानूच एक परिसंवाद घडोवन हाडिल्लो. 'भुरग्यांक खंयचे भाशेंतल्यान शिकयल्लें बरें' हाचेर 'विचार करपा' खातीर गोंयच्या सगळ्या शिक्षणतज्ञांक आपयल्ले. आमच्या मनोहररायांनी 'कोंकणींतल्यान शिकोवंक जाय' अशें म्हळ्ळें मात, 'हो वाद हांगा नाका' अशें म्हणपाक लागले. धरूंया, दुसऱ्या कोणेंय 'मराठींतल्यान शिकोवंया' म्हळ्ळें जाल्यार ताका तरी ते उलोवंक दितले आशिल्ले व्हय? 'हांगा वाद नाका' अशें म्हणून ताकाय बसयतले आशिल्ले. मराठी गोंयच्या भुरग्यांची मायभास न्हय आनी इंग्रजी तर न्हयच न्हय, हें सगळ्यांक बेस बरें खबर आसतना हांगेलें 'वेव्हारशास्त्र' आडवें येता आनी शिक्षणशास्त्र, भुरग्यांचें मनाशास्त्र सगळें कुशीक उडोवन इंग्रजीकडेन येवन हे 'तज्ञ' थांबतात.

मडगांवचें एक महाराष्ट्रीय जोडपें आमगेर आयिल्लें. येतना आपणाल्या

आठ णव वर्सांच्या चल्याकूय घेवन आयलें. चलो 'मनोविकासां'त शिकता. मनोविकासाचें माध्यमूच इंग्रजी आनी वातावरणूय इंग्रजी. आवय-बापायकडेन तो इंग्रजींतल्यानूच उलयतालो. 'तुला मराठी येत नाहीं का रे?' हांवें ताका मराठींतल्यानूच विचारलें. 'येते की!' ताणें जाप दिली. 'मग तू आई-वडिलांशी इंग्रजींतून कां बोलतोस?' हांवें परतें विचारलें. 'तींच माझ्याशीं इंग्रजींतून बोलतात.' ताणें जाप दिली.

म्हळें, 'एक सांग, शाळेंत तुम्हा मुलांची एकमेकांशीं कधीं भाडण होतात की नाहीत रे?'

'होतात की!'

'तीं कोणत्या भाषेंतून होतात?'

'कोंकणींतून', ताणें जाप दिली.

गोंयांत महाराष्ट्रीय, केरळी, कन्नड, बंगाली, गुजराती कितलेशे जाण बिराडां करून रावल्यात. तांचीं भुरगीं शेजाऱ्या पाजाऱ्याच्या भुरग्यांकडेन कोंकणींतल्यान कित्याक खेळटात आनी झगडटात, कोण सांगीत व्हय? गोंयची भास मराठी वा इंग्रजी आशिल्ली जाल्यार ह्या 'भायल्या' भुरग्यांक कोंकणी कशी येतली आशिल्ली, हाचेर आमचे हे शिक्षणतज्ञ उजवाड घालीत व्हय?

स्वराज्यांत वाड्या कणकणीं शाळा आयल्यो. आनी गांवां गांवांनी इंग्रजी माध्यमांतलीं हायस्कुलां चलपाक लागलीं. जांचे आवय-बापूय, आजे-पणजे कोणूच बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्ले, तीं भुरगीं शिकूंक वचपाक लागलीं. भौसांतलीं भुरगीं हीं. मुदलांत हुशार. चवथी कशीं तरी पास जातात. पांचवी सवी सातवीय करतात. आठवेक घोडो घेतात. दुसऱ्या वर्सा पर्थून आठवेक बसतात. णववेक तीन घोडे घेतात. मागीर शिकपाचेंच सोडून दितात. 'ड्रॉप-आऊट' जातात. कित्याक? कोणें येवजून पळेला व्हय? शंबरांतलीं कितलीं भुरगीं 'ड्रॉप-आऊट' जातात हाचो कोणें हिशोब काडून पळेला व्हय? बाबडीं अशा एका माध्यमांतल्यान शिकतात की जें तांचे जिबेर घोळना, भोंवतणच्या वाटारांत कानार पडना, घरांत कोण उलयना, आनी शिकयतल्यांकूय सारकें येना. तांगेलें स्वभावीक माध्यम न्हय हें. बावड्यांक सगळें पाठ करचें पडटा. 'पाठ करून येयात' म्हूण शिकोवपीच तांकां सांगतात. तीं पाठ करतात आनी परिक्षे वेळार जिस्त नर्व्हस जावन पाठ केल्लें सगळें विसरतात. मागीर, घोडे खावचीं नात जाल्यार कितें खातलीं? ह्या भुरग्यांक, धरुंया, मुळांत सावन कोंकणींतल्यान शिकूंक मेळिल्लें, सगळे विशय तांकां कोंकणींतल्यानूच शिकयल्ले आनी धावे मेरेनच्या शिक्षणांत मदीं मराठी, हिन्दी आनी इंग्रजी हांचे मदली एक खंयचीय वा दोन खंयच्योय भासो शिकयल्ल्यो जाल्यार खंयचेंच भुरगें नापास जावचें नाशिल्लें. धावे मेरेन मुखार सरत रावतलें आशिल्लें. ताका वाचूंक बरोवंक मेजूंक येतलें आशिल्लें. इतिहास भुंयगोल विज्ञानाचें सरसमान ज्ञान ताका सोंपेपणान मेळटलें आशिल्लें. आनी, धरुंया, धावे उपरांत ताका फुडें शिकपाची संद मेळ्ळी ना, जाल्यार खंयच्याय विशयांत खोलायेन देंवपाची इत्सा तें आपले आपूण भागोवपा इतलें सक्षमूय जातलें आशिल्लें. मराठी, हिन्दी, इंग्रजी ह्या तीन भासां मदल्यो दोन खंयच्योय आयल्यार पुरो, पुस्तकांच्या आधारान तें आयुष्यभर कितें-न्हय-कितें शिकत रावतलें आशिल्लें.

हाचे खातीर इंग्रजी माध्यम जांणी वेंचून काडलें ते एक तर म्हा-मूर्ख आसूंक जाय वा अन्नाड्यांचे पाय आसूंक जाय.

**काय, भौसान शिक्षणांत मुखार वचचेंच न्हय म्हूण इंग्रजी माध्यम हांणी वेंचून काडलां?** कांय सांगूं नज कॅटिलसिस्टांचें. समाजवादाचो जप करून तांणी देशाचें अर्थकारण, राजकारण सगळें आपणा हातांत घेवंक ना?

* * *

म्हाका एका परकी माध्यमांतल्यान – पुर्तुगेजींतल्यान शिकचें पडिल्लें. पुर्तुगेज मायभास आशिल्ल्या पुर्तुगेज भुरग्यांक शिकयतले आशिल्ले तशें म्हज्या प्रोफेसोरांनी म्हाका पुर्तुगेजींतल्यान सगळें शिकयल्लें. पुर्तुगेज कशी समजूंक पावलों, गोंयचो सायबूच एकलो जाणा. पयलीं चार मुळावीं गुजरातींतल्यान (दीवाक आशिल्लों म्हूण) शिकून पुर्तुगेज इश्कोलांत नांव घाल्लें. पांच स वर्सांचे तपश्चर्ये उपरांत म्हाका पुर्तुगेज इल्ली इल्ली समजूंक लागिल्ली. पुर्तुगेजींतल्यान कितेंय वाचल्यार समजता अशें दिसूंक लागलें. लिसेवाच्या सव्या वर्सा मेरेनच्या काळांत धा वीस डझन तरी पुर्तुगेज पुस्तकां हांवें वाचल्यांत जावंक जाय. मुळावें तशें विश्व-साहित्यांतलें अणकारून पुर्तुगेजींत आयिल्लें खूबशें साहित्य ते मुस्तींत पणजेंत मेळटालें. हांवें वाचिल्लें तितलें पुर्तुगेज मायभास आशिल्ल्या खंयच्याय पुर्तुगेज भुरग्यान वाचिल्लें जाल्यार तो 'लेखक' म्हूण मुखार येंवं येतालो. हांवें बरयल्लें म्हाका कोणाकूय तरी दाखोवचें पडटालें. उलोवपाचो प्रसंग येतालो तेन्ना काचाबूल जातालों. 'दुकराचें मांस खाले बगर तुमकां कोंकण्यांक पुर्तुगेज उलोवंक येवपाची ना' अशें लिसेवार शिकोवपी एकलो 'गांवठी सायब' सांगतालो तें म्हाका खरें दिसपाक लागिल्लें. धीर करून उलयतालों. पुणून ग्रांथीक पुर्तुगेजींत. 'कोलोकिलय' पुर्तुगेजींत न्हय. बरोबरच्या भुरग्यां बांगडा पुर्तुगेजींत फकाणां मारपाचो, मस्कऱ्यो करपाचो तर म्हाका धीरूच केन्ना जायनाशिल्लो.

इंग्रजी 'दुसरी भास' (सेकंड लँग्वेज) म्हूण शिकिल्लों. उपरांत, टाइम्स-बिम्स वाचून इंग्रजी इल्ली इल्ली समजूंक लागलो. ते उपरांत फाटल्या चार दसकांच्या काळांत शेंकड्यांनी इंग्रजी पुस्तकां वाचलीं. आतां मेरेनचें म्हजें चडशें वाचप इंग्रजींतूच जालां. पुणून, इंग्रजींतल्यान खंयूय भाशण दिवपाचो प्रसंग येता तेन्ना म्हजो एक दीस 'रिहर्सल' करपांत खर्चता. 'तूं इंग्रजींतल्यान कित्याक बरयना' असो कांय जाणांनी म्हाका प्रस्न केला. तेन्ना 'म्हाका देवान एक भास दिल्ली आसतना हांव परक्याले इंग्रजी भाशेंत कित्याक बरयतलों?' अशी जाप हांव दीत आयलां. खरें सांगपाचें म्हळ्यार, म्हाका इंग्रजींत बरोवंक येना. आनी हें सांगतना म्हाका मातूय लज दिसना.

खरेपणानशीं लज दिसूंक जाय आपलें म्हणणें आपणाल्याच लोकांक समजावन सांगपा खातीर आमकां दुसरे भाशेंतल्यान बरोवचें पडटा तेन्ना; खंयच्याय देशी मनशा लागीं आमकां इंग्रजींतल्यान उलोवचें पडटा तेन्ना. लज दिसूंक जाय युनोचे आमसभेंत हिन्दींतल्यान उलोवपी अटलजींक दिल्लींत इंग्रजींतल्यान बरोवन हाडिल्लीं भाषणां वाचून दाखोवचीं पडटात तेन्ना. आमकां रशियन येना, जर्मन येना, जपानी येना, चिनी येना, अरबी येना, स्वाहिली येना म्हूण सांगपाक लज दिसना, जाल्यार इंग्रजी येना म्हूण सांगपाक इल्लीय लज दिसूंक फावना.

* * *

इंग्रजांनी हो देश जिखलो तेन्ना तांचे मुखार एक प्रस्न उबो रावलो – येद्या व्हडल्या ह्या देशाचें प्रशासन चलोवपाक लोक खंयचे हाडचे, हो. इंग्लडांतल्यान हाडप जमपासारकें नाशिल्लें. आनी, धरुंया, हाडिल्ले जाल्यार तांकां आपणालें साम्राज्य तिगोवंक येवचें नाशिल्लें. अशा वेळार लॉर्ड मेकॉलेन सरकारा मुखार एक प्रस्ताव दवरलो आनी सांगलें, हांकां सायबांचे भाशेंतल्यान शिक्षण दिवंया आनी 'देशी सायब' निर्माण करुंया. तांचेच उदेशीं आमी हांगा राज्य करूंक पावतले.' देशी सायब म्हळ्यार कसले लोक? मॅकॉलेच सांगता, Indian in blood and colour, but English in taste. 'रगतान देशी. पुणून मनान आनी रुचीन इंग्रज.' सरकारान मॅकॉलेचो हो उपाय रोखडो चलणुकेंत हाडलो आनी थोड्याच वर्सां भितर 'रगतान देशी पुणून मनान इंग्रज' लोकांची एक नवी जातूच

निर्माण केली. हांची इंग्रजी टेस्ट (रूच) एक दीस इतल्या थरार पावली की ते बाजारांत कितेंय घेवंक वताले तेन्ना 'मेड इन ब्रिटन' माल घेताले आनी तो आपणाल्या इश्टां-सोयऱ्यांक दाखयतना मोट्या अभिमानान directly imported from home – 'मायदेशांतल्यान नीट हाडिल्लो' माल म्हूण सांगताले. सांगपाक तांकां लज दिसनाशिल्ली. इंग्रजांचें राज्य ह्या देशांत ह्याच लोकांनी चलयलां. राष्ट्रवादी लोकांक ह्याच लोकांनी बंदखणिंनी घाल्यात वा गोळाक लावन मारल्यात. संवसारांत खंयचेच कडेन देशी लोकांनी देशी लोकांक हांचे भाशेन पिडूंक नात.

इंग्रजांक एक दीस हो देश सोडून वचचें पडलें. पुणून – कोणाच्याच लक्षांत एक गजाल आयली ना – ते गेले फकत तांगेलो 'युनियन जॅक' बावटो आनी 'गॉड सेव्ह द किंग' राष्ट्रगीत घेवन. राज्य आपणें निर्मून दवरिल्ल्या गांवठी सायबांच्या 'रगतान देशी पुणून मनान इंग्रज' लोकांच्याच हातांत दिवन गेले. स्वराज्य मेळून आतां पन्नास वर्सां जालीं. राज्य अजुनूय तांच्याच हातांत आसा. तेच तें चलयत आयल्यात. तांचीच भास चलयत रावल्यात. ते म्हणटाले, आमी हांगासल्ले गेले जाल्यार, तुमी एकामेकांच्यो गोमट्यो कातरपाक लागतले आनी देशाचे पंचवीस पन्नास कुडके करून उडयतले. हे म्हणटात, इंग्रजी हांगासल्ली गेली जाल्यार तुमी देश फोडटले आनी सगळेकडेन अराजक मातोवन अंतीं अन्नाडीच उरतले. हेंच दुसरे भाशेंत सांगचें जाल्यार, देश एकठांय दवरपाक हांच्या मत्तान बंदेपणा बगर उपाय ना. इंग्रज लोकांचें न्हय, जाल्यार इंग्रजी भाशेचें बंदेपण. पुणून बंदेपण जायच.

असलें कितेंय आयकतकूच गांधींक तिडक मारताली. ते म्हणटाले, इंग्रजांचे राजवटीक लागून ज्यो कांय नश्ट्यो गजाली आमच्या वांट्याक आयल्यात तांतली नश्ट्यांतली नश्टी खंयचीय एक गजाल दाखोवची पडली जाल्यार इंग्रजी भाशेंतल्यान लोकांक शिकोवपाची जी चाल देशांत चलत आयल्या तिचेरूच बोट दवरचें पडटलें. इंग्रजींतल्यान शिकिल्ल्यांची येवजुपाची तांकूच ना जावन वता. तांची बुद्द भेरेता. मौलीक, मुळावे original वा स्वतंत्र तरेन तांकां कसलोच निर्णय घेवंक येना. ते जावन जावन फकत केलदावणी करपी नकलांकारूच – imitators – जावंक पावतात. आनी नकलांकार केन्नाच समाज वा देश घडोवंक पावनात – imitators can never build up a nation. आनी आमकां तर देश घडोवपाचो आसा.

आमचे मुखार प्रस्न आसा तो हो –

आमी देश स्वतंत्र करपाक झुजताले ते गोऱ्या सायबांच्या हातांतलें राज्य गांवठी सायबांच्या हातांत दिवपा खातिरूच व्हय? देश जसो चलत आयला तसोच तो चलत दवरपा खातीर व्हय? काय आमकां एक नवो भारत – पुर्विल्ल्या भारता परसूय कर्तुत्वी आनी प्राणवान भारत – घडोवपाचो आशिल्लो म्हूण झुजताले?

ह्या प्रस्नाचे जापेचेर भुरग्यांक खंयचे भाशेंतल्यान शिकोवचें ह्या प्रस्नाची जाप निंबून आसा.

देश इंग्रजांचे मुस्तींत चलतालो तसोच तो मुखार चलयत रावपाचो आसत जाल्यार, भुरग्यांक इंग्रजींतल्यान शिकयात आनी 'रगतान देशी पुणून मनान इंग्रज' गांवठी सायबांचे जातींत भर घालीत रावात. मागीर ह्या भारताकडल्यान कसलेच तरेच्या कर्तुत्वाची उमेद दवरूं नाकात. इंग्रजांचे मुस्तींतलो भारत नव्या संवसारांत कसलेच दिवे लावंक पावपाचो ना. नवें कितेंच करून दाखोवंक पावपाचो ना. जालोच जाल्यार जावन जावन तो फकत इंग्लंडाची वा अमेरिकेची एक सांस्कृतीक वसणूक – a cultural colony – जावन रावतलो. बुद्ध गांधीचो भारत उरपाचो ना. म्हाका जाल्यार असल्या भारताचो मात लेगीत अभिमान दिसपाचो ना. खंयच्याच स्वाभिमानी भारतियाक दिसचो ना.

बुद्ध गांधीचो भारत तांचेच परंपरेन मुखार वचचो अशें आमकां दिसता आसत जाल्यार आमच्या भुरग्यांक शिक्षण असले तरेचें मेळूंक जाय की जें स्वतंत्र बुद्धीन तांकां चिंतूंक शिकयतलें; ज्ञान विज्ञानांत नवे नवे सोद लावपाची तांकां प्रेरणा दितलें, तांच्यांतलें मुळावें original सगळें वयर येवंक आधार दितलें.

इंग्रजीच्यो कांय शिमो मेरो आसात. एकूच दाखलो दितां —

विसाव्या शतमानांत भारतीय तत्त्वज्ञानांत – Indian Philosophyत मुळावें अशें चिंतन करूंक पावले ते रामकृष्ण, विवेकानन्द, रवीन्द्रनाथ, गांधी, श्री अरविंद आनी जे. कृष्णमूर्ती. नवें आनी मुळावें अशें जायतें कितें तांणी भारतीय विचाराक दिलां. हांच्यांतले रामकृष्ण, विवेकानन्द, रवीन्द्रनाथ, गांधी सरसमान लोकां मेरेन – तळागाळाक – पावले. व्हडलेशें शिकूंक नाशिल्ल्या लोकांचेर तांचो प्रभाव पडूंक पावलो. अरविंद आनी कृष्णमूर्ती तळागाळांतल्या लोकां मेरेन पावले नात. कित्याक? इंग्रजी समजतल्या लोकां मजगतींच ते बंदिस्त उरले म्हूण. जे इंग्रजीक लागून अरविंद कृष्णमूर्ती लोकांमेरेन पावले नात, ती विज्ञान तंत्रज्ञान लोकांमेरेन कशी पावयतली? विज्ञान तंत्रज्ञान लोकांमेरेन पावचें अशें आमकां खऱ्यांनीच दिसता आसत जाल्यार तें भुरग्यांच्या मायभासांच्या आधारानूच पावोवचें पडटलें. दुसरो उपाय ना. ना जाल्यार तें 'रगतान देशी पुणून मनान इंग्रज' लोकांच्याच हातांत उरतलें आनी लोक ताचो उपेग गरीब दुबळ्यांक नाडपा खातिरूच फकत करीत रावतले.

जपान, चीन, रशिया सारकेल्या देशांनी विज्ञान तंत्रज्ञान लोकां मेरेन कशें पावयलें? इंग्रजींतल्यान?

अध्यात्म-विद्या संस्कृत भाशेंतूच उरिल्ली जाल्यार ती संस्कृता वांगडाच मरतली आशिल्ली. तशें, विज्ञान तंत्रज्ञान इंग्रजींतूच उरलें जाल्यार तेंवूय मरतलें.

इंग्रजी गेली जाल्यार देश एकेकडेन बांदून उरचो ना, तो फुट्टलो ह्या बुजगावण्याकूय भीक घालुंया नाका. इंग्रजांनी देश घेतला त्या वेळार तो एकठांय नाशिल्लो व्हय? एक राज्य म्हूण एकठांय आशिल्लो नासूं, संस्कृतायेचे नदरेन तो सदांच एक राष्ट्र आशिल्लो. देशांत छप्पन भासो आसूं, वाल्मीकी पसून रवीन्द्रनाथां मेरेनचें सगळ्यांचें सांस्कृतिक दायज एक आशिल्लें. देखून ह्या देशांत संस्कृतायेच्या मळार जितल्योय चळवळी जाल्यो त्यो सदां रुपान अखिल भारतीय प्रभावाच्योच जाल्यो. बुद्ध उत्तरेकडलो. देशभर पातळ्ळेलो. महावीरूय उत्तरेकडलो. तोय देशभर पावलो. रामानुजाचार्य, वल्लभाचार्य, शंकराचार्य, मध्वाचार्य दक्षिणेंतले. पुराय देशांत पातळ्ळेले. ह्याच लोकांनी देशाची संस्कृताय घडयल्या. रामकृष्ण, विवेकानंद, रवीन्द्रनाथ बंगाली. पुराय देशान तांकां आपले मानले. दयानंद, गांधी गुजराती. तेवूय पुराय देशाचे जाले. हांचे मजगतच्या कोणें 'अखिल भारतीय' जावपाक इंग्रजीचो आधार घेतिल्लो? ते देशी भासोच घेवन देशभर भोंवले. बुद्धान तर सगळ्यांक बुद्धवचन आपापणाले भाशेंतल्यानूच लोकां मुखार दवरपाची 'आज्ञा' केल्ली – 'अनुजानामि भिक्खवे सकाय निरुत्तिया बुद्धवचनं परियापुणितुं' म्हूण सांगिल्लें. ताचेच प्रेरणेन देशांतले सगळे संत लोकभासांचो आधार घेवन अध्यात्मविद्या तळागाळांतल्या लोकांमेरेन घेवन वचूंक पावले.

देश सदां एक आशिल्लो. सदांच एक उरतलो.

इंग्रजी गेली जाल्यार देश फुट्टलो म्हणटल्यांक केन्ना केन्ना एक आह्वान दिवचेंशें दिसता, 'फुट्टलो मू? फुट्टूं दी. कितें जातलें? पांच सात वा धा वीस नवीं 'राष्ट्रां' जातलीं मू? जावं दी. पुणून फुट्टलो ह्या भंयान आमी इंग्रजी दवरपाचे नात. गुलामिचो एकचार आमी निखालूस सोंसून घेवपाचे नात.'

* * *

# कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम – एक प्रतिक्रिया *

'कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम : एक उकती चर्चा' हो फेब्रुवारी ('फेब्रेर' यकूंक कितेंशेंच दिसता) म्हयन्याच्या 'जागां'त आयिल्लो दामोदर घाणेकार यो लेख बारीकसाणेन वाचलो. दामोदरबाबाक जितलो शुद्धलेखनाचो त्रास ता ताचेपरस कितलेशेच पटिनी चड म्हाका जाता. देखून असले तरेचो ख म्हजेसारक्या बरोवप्याक खूब गरजेचो.

यिल्ल्या दामोदर घाणेकाराच्या लेखासंबंदांत म्हाकाय थोड्यो प्रस्न-जापो डच्योश्यो दिसल्यो, देखून ही फुडली बरपावळ घडल्या.

हांव व्याकरणकार वा भासशास्त्री न्हय. कोणाचीं उणेपणां दाखोवंचेखातीर म्हजीं शाणेपणां सांगचेखातीर हांवें हो लेख बरोवंक ना. दामोदरबाबाचो ख वाचतकीच थोडे प्रस्न मुखार आयले, थोड्यो सुचोवण्यो करच्योश्यो सल्यो, थोडो विरोधाभास नदरेक पडलो देखून पेन (काय 'पॅन'?) हातांत तलें.

म ७ : सामाजिक, ऐतिहासिक, भौगोलिक, तात्विक हीं उतरां आमी माजीक, इतिहासीक, भुगोलीक, तत्वीक अशींच वापरतात देखून तीं अशींच रोवचीं. तशेंच सुख, गुण, दुःख हीं संस्कृत उतरां कोंकणींत घोळटना उच्चाराचे नदरेंतल्यान) सूख, गूण, दूख अशींच घोळटात देखून तीं दीर्घ रोवचीं. संस्कृतांतलें वाक्य वा उतर घेवचेंच जालें जाल्यार तें संस्कृतांत रयतात तशेंच बरोवन ताका अवतरण कुरू घालचीं.

म ८ : ह्या नेमाविशीं बरयतना घाणेकारान **'भारकूण'** हें उतर चुकीचें ानी तें **'बारखूण'** अशें बरोवंक जाय म्हळां. ताणें तें **'बारा खुणो'** हाचेवयल्यान ायलां अशेंय सांगलां. पूण 'बारा खुणो' कसल्यो आनी कित्याच्यो ? म्हाका ाणवता तेप्रमाण लोकांमदीं हें उतर 'भारकूण' अशेंच घोळटा. शणै गोंयबाबांनी गीत **'भारकूण'** अशेंच बरयलां. (वज्रलिखणी – बाबुमामालो पणस – ान ७५ – पयलें वाक्य).

ह्याच नेमांत घाणेकारान मुखार सांगलां, 'धाडून' आनी 'सांबाळून' हीं न उतरां ह्या नेमांत चुकून आयल्यांत. खरें म्हळ्यार हीं उतरां त्याच मांत बसपी उतरांमदीं 'क्रियापदांचीं' देख म्हण आयल्यांत. तशेंच ताणें खार म्हळां, हीं दोनूय उतरां नेम ३५त वचूंक जाय. पूण धाडून, सांबाळून उतरां त्या नेमांत घालचीं जाल्यार धाडूंक, सांबाळूंक अशीं घेवचीं पडटलीं.

म १० : घाणेकारान सांगिल्लें 'किर्तन' हें उतर ह्या नेमाखाला येवंक कना, कित्याक तर नेम १० प्रमाण हें उतर आ, ई, ऊ, ए, ऐ वा ओ-कारान ांपना. मात परिक्षा, समिक्षा, दीक्षा हीं उतरां र्‍हस्व काय दीर्घ तें स्पश्ट वंक जाय.

करिना (नेम १०), आसुनूय (नेम ११) हीं उतरां त्या त्या नेमांत बसतात. यर नेम ८च्या दुसऱ्या बरपाट्यांत हांवें जें स्पश्टीकरण दिलां तेच तरेचें श्टीकरण हांगाय लागता.)

म १४ : हाचेर चर्चा जावंक जाय हें बरोबर. पूण नेमांत जीं 'कुसां' म्हळ्यांत खरीं म्हळ्यार विभक्तीचीं कुसां. (देखीक : जीब, जिबेक, जिबेन, जिबेकूय, बेचो, जिबेंत, जिबे.) हाचेभायर खंयचेंय उतर त्या उतराक जोडलें जाल्यार शें बरोवचें हें सांगचेखातीर दुसरो नेम जाय.

'जाहीरनामो' ह्या उतरावांगडा जीं उतरां दिल्यांत तीं नेम १४त बसनात. चेखातीर वेगळो नेम जाय. खरें म्हळ्यार सोपूतविधी, हीतसंबंद, कूळकथा, यकांप आदी उतरां हीं **'जोडउतरां'**. हातूंत दोन वेगळीं वेगळीं उतरां कटांय (काय एकटांय ?) येवन एक उतर घडलां. म्हज्या मतान अशा ार, जशें तें उतर एकोडें बरयतात तशेंच तें जोडउतर करतनाय बरोवचें.

**नेम १६ :** एकवचनी (तशेंच भोववचनी) तिसऱ्या पुरूशी सर्वनामाक विभक्तिचो चो-ची-चें प्रत्यय लागता, तेन्ना हाचो, ताचो, हिचो, तिचो, हाचें, ताचें अशें बरोवचें. अकादमीचो हो नेम सामको बरोबर आसा. घाणेकाराच्या 'हाजो, ताजो अशें बरयल्यार जायना ?' ह्या प्रस्नाची जाप 'ना' हीच आसा. कित्याक तर;

१] म्हजो, तुजो ह्या नात्यांत 'ताचो, हाचो' हीं उतरां बसोवंक मेळनात. ताचो, हाचो ह्या सर्वनामांचीं हेर रूपां घडटना तांचेकडेन, तांच्यांनी, तांचेशिवाय, तांचेपरस (तांजेकडेन, तांज्यांनी, तांजेशिवाय, तांजेपरस न्हय) हांचेकडेन, हांच्यांनी, हांचेशिवाय, हांचेपरस (हांजेकडेन, हांज्यांनी, हांजेशिवाय, हांजेपरस न्हय) अशींच घडटात.

२] कोंकणींतूच न्हय तर मराठी, हिन्दी भासांनी लेगीत तिसऱ्या पुरुशी सर्वनामाक लागिल्लो प्रत्यय पयल्या आनी दुसऱ्या पुरुशी सर्वनामाक लागिल्ल्या प्रत्ययापरस वेगळो आसता.

| | | प. पु. सर्वनाम | दु. पु. सर्वनाम | ति. पु. सर्वनाम |
|---|---|---|---|---|
| **कोंकणी** | : | **म्हजो** | तुजो | **ताचो – हाचो** |
| **मराठी** | : | **माझा** | तुझा | त्याचा – ह्याचा |
| **हिन्दी** | : | **मेरा** | तुम्हारा | उसका – इसका |

३] तशेंच कोंकणींत ताजो, ताजें ह्या उतराचो 'फ्रॅश' असोय अर्थ वापरांत आसा. तरी आसतना आमी 'ताचो' बरोवचेपरस 'ताजो' बरोवपाचो हट्ट बाळगिलो जाल्यार, ''नुस्तेकान्नीन सांगलें, हें नुस्तें ताजें. तूं व्हरता जाल्यार दितां.'' ह्या वाक्याचो अर्थ कितें घेवचो ?

**नेम १८ :** दामोदरबाबान नदरेक हाडिल्लो गोंदळ, अकादेमीच्या पुस्तकांतल्या 'पुरायेन' ह्या एका उतराक लागून उप्रासला. ह्या नेमाचें स्पश्टीकरण दितना अशें म्हणूं येता, क्रियापदाचें खंयचेंय रूप बरयतना तातूंत त्या क्रियापदाच्या 'धातू'चें दर्शन घडूंक जाय. वांट्टा, चल्ला, उठ्ठा, जळ्ळें (जळ्ळें) हीं उतरां अशींच बरोवंक जाय. तीं जर वांटटा, चलला, उठठा, जळळें अशीं बरयलीं जाल्यार उच्चारांत 'नाका जाल्लो' बदल दिश्टी पडटा.

वयल्या नेमाचेर आक्षेप घेवन घाणेकार मात, ''उपरांत सदसद्‌विवेकबुद्दीक जें **पट्टा** तें शुद्धलेखनाच्या नेमांभितर बरोवन मुखार वता.'' (जाग – फेब्रुवारी ९९, पान १०, दुसरो बरपाटो, निमाणी ओळ.) तशेंच ताणें दिल्ल्या नेम २०च्या स्पश्टीकरणांत 'मेळ्ळिना' हें उतर तो **'मेळ्ळिना'** अशें बरयता. पूण त्या उतरांतूय पयलें ळ अर्देंच (ꣳ) आसा. (उबी रेग आशिल्लीं उतरां अर्दीं करून बरयतना तांची उबी रेग ना जाता. देखीक, **ज** → ꣳ , **श** → ꣳ , **ळ** → ꣳ, **ल** → ꣳ). दामोदरबाबानच शुद्धलेखन तपाशिल्ल्या एका पुस्तकांत हो विरोधाभास पळोवंक मेळटा. देखीक, 'कोंसळ' ह्या धातूचें 'कोंसळ्ळी' हें रूप. (पळोवचें 'कारबारी कोंकणी', पान ६६ आनी पान ६७ – दोनूय पत्रांच्या मजकुरांच्यो दुसऱ्यो ओळी.)

**नेम २३ :** ते घोड्याक, म्हजे बावल्याक, ते दिसा, ते वेळार हें चूक अशें जें घाणेकारान सांगलां तें सामकें बरोबर. पूण गोवा कोंकणी अकादमीच्या 'शुद्धलेखनाचे नेम' (दुसरी आवृत्ती) ह्या पुस्तकांत हीं उतरां चुकिचीं बरोवंक नात. मागीर ह्या उतरांचो उल्लेख कित्याक ?

---

* हो लेख छापतना शुद्धलेखनाचे कसलेच बदल करूंक नात.

— वावुरपी संपादपी

**नेम २७ :** अकादेमीन आपल्या पुस्तकांत आडावंक, बरोवंक अशें बरोवंक जाय, अशें सांगुनूय पुस्तकांत मात तशें 'बरोवंचे' सुवातेर 'बरोवचे' अशें बरयलां.

**नेम ३० :** 'न्हंय स्त्रीलिंगी. देखून तिज्या कपलार कुकूम आसा अशें म्हणूं येता.' दामोदरबाबालें हें स्पश्टीकरण 'काव्यात्म' दिसता. तें व्याकरणीक दिसचें देखून ही जोडणी—

ङ्, न्, ण्, म्, ञ् हीं नाखयीं व्यंजनां. पूण अनुस्वारा बदला हीं व्यंजनां वापरपाची चाल कोंकणींत ना. देखून 'न्हय' ह्या उतरांतलें 'न' हें अनुस्वाराबदला येवंक ना. तें **न् + ह् + अ + य् + अ** अशें घडलां. 'न्हय' ह्या उच्चारांत फकत 'नाखया व्यंजनाचो' ('न्'चो) उच्चार जाता, 'नाखया स्वराचो' ('अं'चो) जायना. पूण 'न्हंय' हें उतर उच्चारतना स्पश्टपणान 'नाखया स्वराचो' ('अं'चो) उच्चार जाता. देखून 'मांडवी न्हंय' अशें म्हणटना 'न्ह'चेर अनुस्वार येता. हें उतर **न् + ह् + अं + य् + अ** अशें घडलां.

**नेम ३१ :** ह्या नेमाविशीं म्हजेय तकलेंत गोंदळ आसा. अनुस्वार खंय दिवंचो आनी कित्याक दिवंचो हें स्पश्ट जावंक जाय.

'तांब्यांनी उदक रकय' ह्या वाक्याचो अर्थ कितें घेवंचो? 'तांब्यांनी' हाचो अर्थ 'तांबे घेवन' (by) काय 'तांब्याभितर' (in) हे नदरेंतल्यान ह्या नेमांत स्पश्टीकरण येवंक जाय. वा ते नदरेन नवो नेम घडोवंक जाय.

**नेम ३४ :** नेम १६त 'ताजो अशें बरयल्यार जायना?' असो प्रस्न करपी दामोदरबाब नेम ३४त 'तांचेमुखार' बरयता, 'तांजेमुखार' बरयना.

**नेम ३७ :** 'मनीस' ह्या नामाक प्रत्यय लागता तेन्ना मनशान, मनशाक अशें बरोवंचें. मनश्यान, मनश्याक अशें बरोवंचें न्हय. पूण तवशें, भोपशें ह्या सारक्या नामांक प्रत्यय लागता तेन्ना तवश्याक, भोपश्याक अशें बरोवंचें. अकादेमीचो हो नेम योग्य आसा. फकत नेमाचें स्पश्टीकरण दितना 'उच्चाराची' जी गजाल सांगल्या तिचो थंय कसलोच संबंद ना.

**मनीस** ह्या नामांत निमाणे सुवातेर **स** आसा देखून प्रत्यय लागतना ताचें **श** जाता. जाल्यार **तवशें, भोपशें** ह्या नामांत निमाणे सुवातेर **श** आसा. देखून प्रत्यय लागतना ताचें 'श्य' जाता.

| | | |
|---|---|---|
| मनीस | → | मनशाक, मनशाचो |
| भोपशें | → | भोपश्याक, भोपश्याचो |
| पिंगशे | → | पिंगश्या, पिंगश्यो |
| कितलेशे | → | कितल्याश्या, कितल्योश्यो |
| अशे | → | अश्या, अश्यो |

**नेम ४२ :** ह्या नेमाचेर दामोदरबाबान खर आक्षेप घेतला. ताच्या आक्षेपाचेरूय खर वाद आसा. तो म्हणटा, 'गोंयकारांमदीं जानेर, फेब्रेर, मार्स, आब्रील, माय, जून, जुल्ल्य (!), आगोस्त (काय आगोश्ट?), सेतेंब्र, ओतुब्र, नोव्हेंब्र, देझेंब्र अशींय म्हयन्यांचीं नांवां घोळटात.'' जेन्ना तो 'अशींय' म्हणटा ('अशींच' न्हय) हाचोच अर्थ तीं दुसरे तरेनूय घोळटात. मागीर तीं 'अशींच' कित्याक वापरचीं?

लोकांमदीं जानेर, आगोश्ट आनी माय हीं तीन पुर्तुगीजी उच्चाराचीं उतरां सोडलीं जाल्यार वयर सांगिल्लीं हेर नांवां खंय आनी कितल्या प्रमाणांत घोळटात हो मुद्दो म्हत्वाचो.

दामोदरबाबान आपल्या लेखांत फकत (अकादेमीच्या) ४२ नेमांचेरूच बरयनासतना आनीक कांय गरजेच्या नेमांक उजवाडांत हाडल्यात. हातुंतल्यान ताची शुद्धलेखनाविशींची तळमळ नदरेंत भरता.

**नेम ४३ :** राष्ट्रांच्या नांवांचीं विशेशणां करतना दामोदरबाबान तांकां एकेच फास्केंत बसोवपाचो जो यत्न केला तो 'कृत्रीम' असो दिसता.

भारत-भारती (भारतीय न्हय) अशें तो म्हणटा. जाल्यार 'भारती' नांव आशिल्ले (वा नाशिल्ले) चलयेन 'हांव भारती' अशें म्हणटकीच कितें समजुपाचें? हेर भासांनी जर 'भारतीय' बरयतात जाल्यार आमीच कित्याक जगाभायले जावंचे?

राष्ट्रांच्या नांवांचीं विशेशणां करतना 'अ' वा 'आ'न सोंपतल्या नामाक दीर्घ ईकार लावंचो अशें म्हणपी दामोदरबाब 'पुर्तुगाल' ह्या नामाचें 'पुर्तुगाली' करपाक तयार जायना. हो कसलो विरोधाभास?

हो नेम राष्ट्रांच्या नांवांक लागता जाल्यार राज्यांच्या नांवांक कित्याक लागचो न्हय? आनी लागलो जाल्यार, गोंय → गोंयी (गोंयकार न्हय), गोवा → गोवी (गोवन न्हय) अशें जावंचें पडलें.

म्हज्या मतान त्या त्या राष्ट्राच्या नांवाचें विशेशण करतना चालंत आशिल्लीं रुपां वापरचीं. गोंयांतूय वेगळ्या वेगळ्या (काय वेगवेगळ्या?) गांवांचीं विशेशणां घडटना एकसूत्र दिश्टी पडना. देखून, सांवड्डेच्या मनशाक ''तूं खंयचो?'' अशें विचारल्यार तो आपूण 'सांवड्डेचो' वा 'सांवड्डेकार' म्हणटा आनी हो प्रस्न सांग्यावयल्या मनशाक विचारल्यार तो आपूण 'सांगेकार' वा 'सांगेचो' म्हणिनासतना 'सांग्यावयलो' म्हणटा.

**नेम ४४ :** ह्या नेमाचेर चर्चा जावंक जाय.

**नेम ४५ :** ह्याय नेमाचेर चर्चा जावंक जाय. पूण 'आंतरराष्ट्री' आंकडे वापरूंक जाय तशेंच कोंकणींत आंकडे नात ह्या मताचो दामोदरबाब आपल्याच लेकांत देखी दितना कोंकणींत नाशिल्ले आंकडे वापरता हें पळोवन अजाप जाता.

ह्या नेमाउपरांत घाणेकारान कांय उतरां दिवन तांचेर विचार मांडल्यात. हें फुडलें बरप त्याच उतरांक धरून.

'भौतेक' हें उतर मराठीच्या प्रभावान ('बहूतेक' ह्या उतरावेल्यान) आयलां अशें दिसता. कोंकणींत 'चड करून', 'चडश्या' हीं उतरां घोळटात.

भौमानेस्त, भौच, भौ हीं उतरां भोवमानेस्त, भोवच, भोव अशींच बरयल्यार कोंकणीच्या सभावांत तीं 'भोव' (चड) सोबतात. देखीक : हांव तुका भोव भितां! वयल्या उतरांनी 'भौ' (भोव) हें 'चड' ह्या अर्थान आयलां. मात भौस, भौशीक, भौतीकशास्त्र ह्या उतरांतलें 'भौ' हें 'चड' ह्या अर्थान ना देखून तें आसा तशेंच बरोवंचें.

परतून काय पर्थून? ह्या प्रस्नाची जाप 'परतून' हेंच योग्य. कित्याक तर तातूंत 'परत' हो धातू स्पश्टपणान दिसता. तेच तरेन भितरलें, हांगासरलें, थंयसरलें बरोवंचें.

'मरण' काय 'मर्ण' बरोवप? 'मरण' हेंच योग्य. 'मर्ण' अशें बरोवप आमी सोडून दिवंक जाय. शणै गोंयबाब बरयतासतना पुर्वण, पर्थलो, उप्रांत, मर्ण आदी अशें बरयतालो. उपरांत आमी पुरवण, परथलो, उपरांत, मरण अशें बरोवंक लागले. मात 'मरण' हें उतर 'मर्ण' अशेंय बरोवप चालू उरलें. (वयर सांगिल्ल्या भौ, भौच, भौमानेस्त उतरांतलें 'भौ' लेगीत गोंयबाबांकडल्यानच वापरांत आयलां. गोंयबाब बरयतासतना बरौन, उलौन अशें बरयताले. शणै गोंयबाब बरयतासतना 'उच्चाराप्रमाण' बरयताले. देखून ते झोंपै, आवै, आपैता, कळै, माल्लो, धल्लो, झट्टी, धाट्टात... अशें बरयताले.

'छापून' काय 'शापून'? ह्या दोनूय उतरांनी 'छाप' आनी 'शाप' अशे दोन वेगळ्या अर्थांचे संदर्भ आसात. 'छाप' म्हळ्यार (छापणावळींतलें) 'प्रिंट' ह्या अर्थान जाल्यार 'शाप' हें उतर 'शाप-वरदान' ह्या संबंदांतलें.

खूब तेंपान आतां कोंकणी शुद्धलेखनाच्या नेमांचेर चर्चा जावंक लागल्या. कोंकणीच्या प्रमाणीकरणाचे नदरेन ही म्हत्वाची आनी गरजेची गजाल. हे चर्चेंतल्यान खूब कितें निश्पन्न जातलें अशी आस्त बाळगुंया.

**— राजय रमेश पवार**

टीप : गोवा कोंकणी अकादेमीच्या शुद्धलेखनाच्या नेमांप्रमाण हो लेख बरयला.

# मंगल पांडे

चंद्रकांत केणी

रेल्वेच्या प्रवासांत बरो सांगाती मेळुंकय नशीब लागता. खूब खेपे बरे सांगाती मेळटात. पूण केन्ना केन्ना कुसके, मनीसघाणेय लोक मेळटात.

असो एक सांगाती आमकां पयल्या वर्गाच्या डब्यांत मेळ्ळो. अहमदाबादाक सावन दिल्लीक वचपाचो प्रवास. डब्यांत चार पॅसेंजर. दोग जाण वयल्या बर्थाचेर आनी सकयल एक जोडपें. तो खुबच जाणटो दिसतालो. त्या मानान बायल भुरगी. तांचें नातें बापूय-धुवेचें सोबतलें अशें सुरवेक हांवें थेवजिल्लें. दोगांय एकाच बर्थाचेर बशिल्लीं. बायल जनेलाकडेन आनी ताणे तिगेले मांडयेर आपली तकली दवरून त्याच बर्थाचेर पांय सोडिल्ले. कुडलो सकलो बर्थ रिकामो आसलो.

म्हज्या वांट्याक वयलो बर्थ आयिल्लो. म्हजेकडेन एक ल्हानशी बॅग. उबाळाचे दीस जाल्ल्यान हांवें चादरी हाडूंक नासल्यो. बर्थाचेर लुंगी पातळावन न्हिदपाचें हांवें थारायिल्लें. रातिच्या सवायणव वरांचो वेळ. धा वरांचेर गाडी सुट्टली. हांव सकल्या बर्थाचेर बसलों.

'तो बर्थ म्हजो', न्हिदिल्ले कडच्यान त्या मनशान म्हाका शिटकायलो.

'म्हजो बर्थ वयलो', हांवें जाप दिली.

वांकडीं तिकडीं तोंडां करून ताणें कूस परतिली आनी ते बायलेच्या पोटांत आपलें तोंड लिपयलें.

हांवें तांचेकडेन पळयनाशिल्ले भाशेन करून प्लॅटफॉर्माचेर नदर थिरावन बसलों.

कंडक्टर एका पॅसेंजराक घेवन आयलो. तो पॅसेंजर आमच्याच कंपार्टमेंटांतल्या चौथ्या बर्थाविलो आसलो. म्हाका सूड जालें. दुसरो सांगाती आसतकच उलोवंक मेळटलें आनी त्या कुसक्या मनशाची उपेक्षा करप शक्य जातलें अशें हांवें धरलें.

आमी कंपार्टमेंटांत आयले आनी कंडक्टरान सगल्यांच्यो तिकेटी तपासल्यो.

''दोनूय सकयले बर्थ आमचे'', उठून बसून आपल्यो तिकेटी दाखयत त्या कुसक्या मनशान कंडक्टराक सांगलें.

''बरोबर'', अशें म्हणून कंडक्टरान आमकां आमचे बर्थ दाखोवन दिले.

आमी दोगूय मुखावेल्या बर्थार बसल्यात हें त्याम नशाक ताका आवडूंक ना म्हणपाचें म्हाका कळटालें. पूण गाडी सुटचे आदींच वयर वचून कितें न्हिदतले? आमी दोगांनी एकामेकांची वळख करून घेतली. ताचें नांव माने. तो मिलिटरींत आसलो.

मुखावेल्या बर्थाचेर जनेलाकडेन बशिल्ली बायल शून्यांत नजर थिरावन मनांत काडी घुंवडायताली. आनी तो तिचो घोव काय कोण जाणा, आमचेकडेन पळोवन वांकडीं तिकडीं तोंडां करतालो.

आतां ,हांवें ताका सारको पळोवन घेतलो. एका दोळ्यान मात्सो तिरसो. दाट मिश्यांचो. माथ्याक पूर्ण चंद्राकृतिचें खरड आशिल्लो. तो मनीस पन्नाशिच्या घरांत आसूंक जाय. ताणें एक लांब पँट घाल्या आनी आंगांत हातकापें बानयान. उजो जाता देखून शर्ट काडून दवरिल्लो आसतलो. ताचे कुशीक बशिल्ली ती ताच्या मानान भुरगी दिसली तरी तिशींतली आसली. गळ्याक, आंगार भांगर ना. दिसूंक चार चौगींसारकी. कपलाक आनी केंसाच्या माग्यांत कुंकूम.

गाडी सुटली आनी ताणें आमकां विचारलें, ''तुमी वयल्या बर्थार वतात न्हय? हांव दिवो पालयतां.''

हांव म्हज्या बर्थार चडलों. मुखावेल्या बर्थाचेर एक बॅग आसली. मानेन ती सकयल काडली आनी त्या मनशाक विचारलें, ''तुमीच मंगल पांडे?''

''दुबाव कित्याक आयलो?'' त्या मनशान परतो प्रस्न विचारलो.

''तुमचें नांव वळखिचें दिसता'', मानेन म्हळें.

म्हाकाय मंगल पांडे हें नांव वळखिचें दिसलें. पूण हांव कांय उलयलोंना. तरी त्या मनशाकडेन पळोवपाची म्हजी नदर बदल्ली. तो कोण तरी मोठो मनीस आसतलो अशें म्हाका दिसूंक लागलें.

''पूण तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें?'' मंगल पांडेन विचारलें.

''रिझर्वेशन चार्टाचेर नांव आसा. ते भायर ह्या बॅगाचेर मोठ्या अक्षरांनी बरयिल्लें नांव हांवें वाचलें.'' मानेन सांगलें.

सभ्यतायेच्या नेमाक धरून तो आमची वासपूस करतलो अशें दिशिल्लें. पूण ताणें ती केली ना. त्या मनशान म्हळें, ''नांव समजून कितें करचेलें आसा? कोणें चोरी केल्या काय कितें?''

तागेली जाप आयकून मानेची वाचाच धरली. ताणें म्हजेकडेन पळोवन हांशिल्ले भशेन केलें आनी उडी मारून तो आपल्या बर्थार चडलो.

फांतोडेच्या वेळार गाडी आबू रोड स्टेशनाचेर पावली आनी मंगल पांडे आपले बायलेसयत सकयल देंवलो.

''तूं जाणा मंगल पांडे कोण तो?'' मानेन म्हाका विचारलें.

''नांव कानावयल्यान गेलां. ह्या मनशाक हांवें केन्नाच पळोवंक ना.''

''म्हाकाय तशेंच दिसता.''

''जायते खेपे एकाच नांवाचे दोन वा अदीक मनीस आसतात. हो आमच्या वांट्याक आयिल्लो मंगल पांडे मनीसघाणो आनी कुसको. ताका सभ्यपणान वागूंक लेगीत येना. इतलो जाण्टो जालो तरी मधुचंद्राक वतल्या घोवाभाशेन तो आपले बायलेकडेन वागतालो.''

''तेंच तुका सांगूंक वतालों.'' मानेन म्हळें.

''एक गजाल बरी जाली.'' हांवें म्हळें. ''तो हांगाच देंवन गेलो. दिल्ली मेरेन आमच्या सांगातांत उरिल्लो जाल्यार ह्या प्रवासाचो उगडास जिवीतभर उरतलो आसलो.''

आमी उलयतासर दुसरें एक जोडपें आमच्या कंपार्टमेन्टांत भितर सरलें. जोडपें तरूण आसुनूय नम्र आनी सभ्य आसलें. रिकाम्या बर्थाचेर तें

बसलें आनी दादल्यान आमचेकडेन पळोवन म्हळें, 'आमी हांगा बसतात.''

''दोनूय सकले बर्थ तुमचे'', हांवें म्हळें. ''तुमच्या बरेपणान आमी ह्या एका बर्थाचेर बसल्यात.''

''आतां दिसाच्या वेळार वयल्या बर्थाक अर्थ ना.'' ताणें हांसून म्हळें.

वळख जाली. तो दिल्लींत एका विद्यापिठांत शिकयता आनी ती बंगाली. कलकत्त्याक आसता. इतिहासाचें संशोधन हो तिचो छंद.

''तुमचें नातें कितें?'' मानेन सरळ विचारलें.

''नातें कांय ना. इश्टागतिचें लेगीत म्हणूं नज. एका सेमिनारा खातीर आमी माऊंट आबूक गेल्लीं. थंय आमची वळख. परतिच्या प्रवासाचें सांगातान रिझर्वेशन केल्लें. देखून एका डब्यांत पावलीं. दिल्लीक वतकच आमच्यो वाटो वेगळ्यो जातल्यो.''

''हांव मिसेस बॅनर्जी'', बायलेन आपली वळख करून दिली. ''म्हजो घोव कलकत्त्याक डॉक्टरी व्यवसाय करता. ताचें नांव वर्मा. तो दिल्लींत एका विद्यापिठांत इतिहास शिकयता.''

''तुमी येवचे आदीं ह्या बर्थाचेर मंगल पांडे म्हूण एकलो आसलो. मोठो विक्षिप्त मनीस.'' मानेन म्हळें.

''मंगल पांडे? कोणाचेंय नांव विक्षिप्त मनशाक दिवंनाकात.'' मिसेस बॅनर्जीन म्हळें.

''ताचेंच नांव तें. तो आनी ताची बायल अहमदाबाद सावन आबू रोड मेरेन ह्या डब्यांत आसलीं. निकतींच देंवन गेल्यांत.''

''तूं मंगल पांडेक वळखता?'' मानेन तिका विचारलें.

वर्मा सामको खळखळून हांसलो. ताणें म्हळें, ''इतिहास शिकयतल्याक मंगल पांडेक वळखता काय म्हणून विचारप धाडसाचें जातलें.''

''अशें कित्याक म्हणटा तूं? इतिहासांतल्या मंगल पांडेची खबर उलयनात. जाचो सांगात रातिच्या प्रवासांत तांकां मेळ्ळो, त्या मंगल पांडेविशीं ते उलयतात आसतले.'' मिसेस बॅनर्जीन म्हळें.

आनी म्हाका उगडास जालो. मंगल पांडे एक स्वातंत्र्य सैनिक. १८५७त ब्रिटिशांआड जाल्ल्या बंडाकडेन ताचो संबंद पावता. ब्रिटिशांनी ताका फांशी दिल्ली. आनी हांवें चूक सुदारून घेवन मानेक म्हळें, ''माने, आमी नांव आयकल्लें तें शहीद मंगल पांडेचें. हो पांडे वेगळो.''

आमी कितें उलयतात ताचो इतिहासाच्या दोगांय प्रोफेसरांक बोध जालो ना. प्रोफेसर वर्मान विचारलें, ''अशें घडलें कितें की तुमी मंगल पांडेच्या नांवाचो उगडास काडलो?''

''मंगल पांडे हो शहीद म्हणपाचो आतांच आमकां उगडास जालो. त्या नांवाचो मनीस ह्या डब्यांत आसलो. नांव वळखिचें. मनीस वळखिचो न्हय. वागणूक जनावराची...''

''अशें घडटा केन्ना केन्नाय'', मिसेस बॅनर्जीन म्हळें. ''तुमकां अजाप जातलें, म्हज्या प्रबंधाचो विशय १८५७चें बंड होच आसलो आनी हांवें मंगल पांडेचेर एक खाशेलें प्रकरण बरयलां. ते भायर एक कादंबरीय बरयल्या.''

''तूं कादंबरीय बरयता?'' प्रो. वर्मान अजापून तिका विचारलें.

''तातूंत अजाप कसलें?''

''इतिहास संशोधक हें सत्य सोदीत भोंवतात आनी कादंबरीकार कल्पनेच्या संवसारांत वावुरतात. एकाच मनशाच्यो दोन वृत्ती कशो आसूं येतात हाचेंच म्हाका अजाप दिसलें.'' प्रो. वर्मान म्हळें.

मिसेस बॅनर्जीन पांयांतलें जोतें काडून दवरलें आनी दोनूय पांय कवळून ती बसली. आपल्या जनेलाचें शटर बंद केलें आनी आज्जेन नातरांक काणी सांगची तशे धर्तेर ती उलोवंक लागली.

सूर्य अस्तंतेकडेन देंवंक लागलो. झाडाच्यो सावळ्यो लांब पातळूंक लागिल्ल्यो. अस्तंतेकडल्या मळबार तांबडें फांकिल्लें. अचकीत शितळ वारो सुटलो. आनी खिणांभितर ध्यानस्त बशिल्ल्या मुनीवरी थीर आशिल्लीं झाडां धोलूंक लागलीं.

भोंवतणी सात-आठ दोंगुल्ल्यो. मनीस वस्ती खुबच कमी. पूण वातावरण एकदम सुंदर आनी प्रसन्न. एके दोंगुल्लेचे तेंगशेर एक तरणाटो बसला आनी सैमाची सोबा आपल्या दोळ्यांवरवीं काळजांत भरून घेता.

दोंगुल्लेच्या पांयाकडेन सपाट वाठार आसा. थंय इस्ट इंडिया कंपनिचो तळ आसा. एका घराचेर ब्रिटीश बावटो लायिल्लो आसा. आतां सूर्य अस्ताक वचपाच्या वेळार बिगूल वाजोवन तो बावटो देंवयतले. बावट्याक सगल्यांनी सलामी दिवंक जाय.

इतले म्हणसर बिगुलाचो आवाज आयलो. तणाची काडी दातांत धरिल्ली ती त्या तरणाट्यान भायर उडयिल्ली. आनी सलामिच्या थाटांत उबो रावपाची तयारी करतासर तो आपले भितर हांसलो. ताणें येवजिलें, हांगा म्हाका कोण पळोवंक येवपाचो आसा? सलामी दिली ना म्हण कोण ख्यास्त दिवपाचो आसा? हांव हे भुंयेक सलाम करतां. सातासमुद्रा पलतडच्या गोऱ्यांल्या बावट्याक कित्याक करतलों?

तो उठूंक वतालो तो सकयल बसलो. कर्नल मायकलाच्या मुखेलपणाखाला एकविसावें पथक थंय पडाव घालून रावलां. बावटो सकयल देंवलो तसो त्या तरणाट्यान आपल्या भेसावेल्यान नदर भोंवडायली. धडधाकट तरणाटो. आंगांत वागाचें बळगें आशिल्लो. व्यायाम करून ताणें देहाक शिस्त लायल्या. लस्करी गणवेश ताका सोबता. अचकीत ताका तो गणवेश रोमूंक लागलो. हो गणवेश सोबेचें वस्त्र न्हय. ती गुलामपणाची निशाणी अशें ताका दिसूंक लागलें. मायकलाच्या एकविसाव्या पथकांत तो एक कनिष्ठ अधिकारी. आज वाऱ्यार फडफडपी ब्रिटीश बावटो ताच्या दोळ्यांक कांट्यावरी रोमूंक लागलो. बुडट्या सुर्याचे फाटभुंयेचेर ताचो रंग दिसनासलो. तरी त्या देंवत्या बावट्याकडेन तो तरणाटो नदर थिरावन बशिल्लो. हो बावटो देंवतलो आनी फाल्यां सकाळीं परतो चडटलो... अशें कितेंय घडूंक जाय की हो बावटो देंवतलो तो सदांखातीर देंवंक जाय.

बिगुल थांबलें आनी अस्तंतेकडेन अचकीत सुर्य अदृश्य जालो. झाडांच्यो लांबिल्ल्यो सांवळ्यो काळखाच्या पांघरुणांत लिपून बसल्यो. तरी पसय आसा. आकृत्यो वळखूंक येतात. दोंगुल्लेच्या तळाकडेन एक तळें आसा. दिसा उजवाडा त्या तळ्याचें निवळ उदक त्या तरणाट्यान पळयल्लें. केन्ना तरी दोन बुचकळ्यो मारून तळ्याचे खोलायेचो थाव घेवपाचें ताणें मनांतल्या मनांत थरयिल्लें.

कुशिचे वस्तींतल्यान एक आकृती भायर सरली आनी तळ्याचे दिशेन चलूंक लागली. बायल आसतली. माथ्यार दोन घागरी. हातांत कळसुली. चड करून उदक भरूंक तळ्याचेर वता आसतली.

आकृती तळ्यामेरेन गेली. घागरी, कळसुल्यो विसुळ्ळ्यो, उदक भरून धडेर दवरलें. उपरांत आपले हातपांय, तोंड धुवन घेतलें. उकडयां बसूंक एकेक घागर माथ्यार दवरली आनी भरिल्ले घागरिचो तोल सांबाळीत एखाद्रे नृत्यांगनेन पावलां उखलचीं तशी ती वस्तिचे दिशेन चलूंक लागली.

क्षितिजाचे दुसरे वटेन घोड्यार बशिल्ल्या शिपायांची सावळी तरणाट्यान पळयली. वाऱ्याचे गतीन घोडो धांवतालो ते आकृतिचे दिशेन. एकदम तरणाटो सतर्क जालो. आतां कितें तरी विपरीत घडटलें असो ताका दुबाव येतासर ते बायले सामकारच घोडो थांबलो.

तरणाटो एकदम उठलो आनी वाऱ्याचे गतीन दोंगुल्ली देंवत त्या घोड्यासरीं खिणांतच पावलो.

घोड्यार बशिल्ल्या शिपायान बायलेच्या खांदाचेर आपलो हात दवरलो आनी ती दोनूय हातांनी कडकडत उदकाच्यो घागरी सांबाळटा. तिगेल्या कंपाक लागून घागरींतलें उदक तिच्या आंगार रकलां आनी न्हेसण भिजून

# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

शिवदासाक पन्नास वर्सां जालीं हें खरेंच दिसना.
ताका पन्नास वर्सां जालीं म्हूण तशें अजापूय न्हय म्हणा.
दरेका दिसा जायत्या जाणांक पन्नास वर्सां भरतात.
पूण शिवदासाचें अजाप इतले खातिरूच की ताचे चाळे पंचविशिंतले.
ताच्या पन्नास वर्सांत ताणें शंबर कथा बरयल्यो
अशें लोकवेद संशोधिका जयंतीन संशोधन करून बरयलें
आनी कमलाकर म्हाळशीकूय त्यो सोदतां सोदतना सांपडल्यो.
पूण शिवदासाच्या कथांतल्यो आडकथा मात कोणें हिसपांत धरल्यो नात.
चंद्रकांतबाब पळेयात कश्यो आपल्यो आडकथा कथिका म्हूण छापता.
तर, हांव गजाल सांगतालों ती आमच्या शिवदासबाबाच्या जल्मदिसाची.
सतरा मार्चाक ताची पन्नाशी मनयली.
ताचो जल्मदीस म्हूण हांव मुजरत वेळांत वेळ काडून गेलों.
पूण म्हाका ताचो तो जल्मदीस सो दिसलोच ना.
ताच्या फाटल्या कितल्या तरी जल्मदिसांक हांव गेलां.
सतरा मार्च हो दीस शिवदासबाब शेतकार दीस म्हूण मनयतालो.
कांय शेतकारांक हाडून तांचो सत्कार बी करतालो.
देखून म्हाका शिवदास राष्ट्रीय पातळेवेलो फुडारी दिसतालो.
पंडित नेहरूंचो जल्मदीस लोक बालदिन म्हूण मनयतात,
डॉ. राधाकृष्णनाचो जल्मदीस हो शिक्षकदिन,
इंदिरा गांधींच्या नांवान आमी संकल्पदिन पाळटात.
राजीव गांधींचो जल्मदीस हो कोंकणी राजभास दीस.
ह्याच दिसा राजीव गांधीन कोंकणी आठवे वळेरेंत घाल्ली.
तसोच शेतकार दीस म्हळ्यार शिवदासाचो जल्मदीस.
आतां ताणें ह्या दिसा शेतकारांक कित्याक त्रासांत घाले हें हांव नकळ.
'देवळां खुली करा दीस' हेंच नांव खरें म्हळ्यार शिवदासाच्या जल्मदिसाक समर्पक आशिल्लें.
शिवदास कांय गजाली चुकयता तो असो.
तर, शिवदासाच्या पन्नाशी सुवाळ्याक हांव पर्वरी गेलों.
कोंकणी मनशाक पन्नास भरलीं म्हणटकच हांगा सुवाळो जाता.
रमेश वेळुस्काराचो जालो, दोतोर तानाजी, प्रकाश पाडगांवकार
ह्या मानेस्तांचो सुवाळो ह्याच आझाद भवनांत जालो.
आनिकूय थोड्यांचो जावपाचो पूण दोतोर ओलिव्हीन्य बी वर्सांच लिपयता.
हाका लागून कांय पन्नाशी सुवाळे आमकां चुकतात.
शिवदासाच्या पन्नाशी सुवाळ्याक म्हाका उलोवंक कोंबार काडलो.
हेर सगळे कितें उलोवंचें तें खोलायेन येवजून आयिल्ले.
थोड्यांनी हारशा मुखार उबे रावन येसाय लेगीत मारिल्ली.
म्हाका उलोवपाचें नाशिल्लें देखून हांवें तयारी करूंक नाशिल्ली.
समवयस्क वा सर्तींत आशिल्ल्यांचेर हांव उलोवप टाळटां.
कित्याक, लोकांचे भिडेक लागून बरेंच उलोवंचें पडटा.
आनी आयकतल्यांक म्हजे परस तोच व्हड दिसूंक लागता.
हांव ना म्हणटां तरी म्हाका कोंकणी अकादमीचो अध्यक्ष जावंक जाय.
शिवदास उपाध्यक्षपदार समाधानी आसलो तरी ताकाय जावंक जाय.
अशा वेळार हांव उलयलों जाल्यार ताका आयती संद मेळ्ळिना?
दुसरी गजाल, ताका वेंचणुकेक रावंक जाय आनी म्हाकाय जाय.
आतां ताचो मतदारसंघ वेगळो आनी म्हजो वेगळो हें बरें आसा.
पूण पक्षान एकाच लेखकाक तिकेट दिवंचें थारायलें जाल्यार?
जाल्यार घात! शिवदास आपुणूच चान्स मारतलो.
कारण कितें सांगतलो तर दिलीप लेगीत आपल्याचें बरें उलयता.
ते परस पंच्यात्तरी जाल्ल्यांचेर उलोवप अदीक बरें.
बरें उलयल्यारूय त्रास ना आनी वायट उलयल्यारूय ना.
सद्या पंच्यात्तरींत तीग जाण म्हालगडे आसात.
एक भांगीबाब, दुसरो मनोहरबाब आनी तिसरो रवीन्द्रबाब.
हांचेर म्हाका कोणेंय उलय म्हूण सांगलें जाल्यार हांव उलयतलों.
तांचे बरेऽऽ गूण गायले म्हूण ते वेंचणुकेक रावपाचे नात.
कोंकणी अकादमीचेर वचपाची तर पिराय सोंपल्या
म्हणटकच ते म्हजे वांगडा सर्तींत देंवपाचो भंय ना.
आनी समजा हांव बरें सोडून वायट उलयलों तरी लुकसाण ना.
ते म्हाका साहित्य अकादमी पुरस्कार दिवंचेनात हो भंय ना.
तो मेळून एक हुसको सासणाचो सोंपलो.
ज्ञानपीठ मेळपाचो आसा पूण तो दिवपाचो, ते तत्त्वची वेगळे.
गोंय विद्यापिठांत नोकरे खातीर वचपाचो काळ सरलो.
जेन्ना काळ आशिल्लो तेन्ना म्हाका थंयच्यान हुंवाळून घालो.
आतां वचपाचें आसत जाल्यार डायरेक्ट कुलपती म्हूण वचप.
कित्याक, थंय वचूंक कूल लागना तेच वांगडा कोणाचो पती तेंय लागना.
तर असो हांव निर्भिड जावन भंया विरयत मिरयतां.
पन्नाशी सुवाळ्याक शिवदासान शेतकारांक नासले तरी फुलकारांक वयर काडले.
शिवदासाचे पन्नाशीचे निमतान कमलाकरान संद सादली.
ताचो बरोऽऽ कथांझेलो गुंथून काडलो.
आनी भांगरा उत्सवी वर्सा ताचें विमोचन दवरलें.
म्हाळशीन शिवदासाचो कथासंग्रह कित्याक छापचो हाकाय कारण आसा.
म्हाळशीक सोदतां-सोदतना एक गजाल सांपडली.
दोतोर दत्ताराम सुखठणकाराक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळा
तोय तांच्या एकल्या एकसुऱ्या अपुरबायेच्या पुस्तकाक.
कोणें तरी दोतोराचे निबंध हांगा थंय सोद सोद सोदले
तांचेर अपुरबायेन हात ओडलो आनी पुस्तक केलें
त्याच पुस्तकाक पयल्याच धपक्याक अकादमी पुरस्कार.
दोतोराक पुरस्कार मेळ्ळो तो मेळ्ळोच, वांगडाच आनीक एक गजाल रूढ जाली.
साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळटकच लेखक सोंपता म्हणपाची.
शिवदासा भितरलो लेखक सोंपचो न्हय ही सगळ्यांची इत्सा.
देखून ताका पुरस्कार मेळूंक हो इतलो कळाव लागला.
खरें म्हळ्यार ताका तो म्हजे पयलींच मेळूंक जाय आसलो.
पूण ताचें त्या वर्साचें पुस्तक नाशिल्लें.

तशें पळोवंक गेल्यार पुरस्कार मेळपी लेखक हो अशें दिसना बराबर कितलेशे
प्रकाशक मुखार सरतात.
राजहंस आसा, अपुर्बाय आसा, जाग आसा.
पुस्तक छाप पुरस्कार घे हें थरलेलेंच आसता.
आतां पुरस्काररूय पायलेक पंचवीस जाल्यात हें वेगळें.
तातुंतल्या कांय पुरस्कारांची रक्कम तर साहित्य अकादमी परसूय चड.
एकाच पुस्तकाक जर हे सगळे मेळत रावले जाल्यार
ती रक्कम ज्ञानपीठा परस चड जातली.
पयर गुरुनाथबाबाक हांवें कोणाची तरी रक्कम मेजतना पळयलो.
पणजेचे पंचवीस, मंगळूरचे पंचवीस, दिल्लीचे पंचवीस
अशें करीत बोटां मोडटालो.
(बोटां मेजपा खातीर, नांवान मोडिनाशिल्लो.)
पूण फुडल्या वर्सा दिल्लीचे पन्नास जाता हें ताका खबर ना.
कळिल्लें जाल्यार बेकार थवय लाखाधनी म्हणत हांसपाचो.
दिल्लीचे पन्नास हजार जातात ही खोशयेची गजाल खरी.
पूण तेच वांगडा गोंयांत गोंधळ जावपाचीय शक्यताय आसा.
भोगदंड दिल्लीचे वाटेन तुफान घोडदौड करताच.
तातूंत आनी आतां शिवदास दंड थोपटून देंवला.
हालींच भाशा मंडळान नवोदितां खातीर पुरस्कार दिले.
दिनेश मणेरकाराचे नदरेन हे पुरस्कार ल्हान आसले
तरी तांकां राष्ट्रीय दर्जो फाव जालां हें कोणाक खबर ना.
तांकां राष्ट्रीय दर्जो दिवपाचें व्हड काम प्रभाकर भिडेन केलां.
हो पुरस्कार मेळपी पुस्तकांच्यो हजार प्रती शिक्षण खातें घेता.
घेता म्हळ्यार तशी वेवस्था फुडाराक करून दवरल्या.
येन्नादर खुबशे लेखक लक्षाधीश जावपाचे.
पूण सरकाराकडेन येवजण चालीक लावपाक दुडू ना.
जे आसात ते पगारच घालता म्हणसर सोंपतात.
बाबडी शिक्षण संचालिका पेडणेकार सामकी थकल्या.
संचालिका जावनूय नव्यो येवजण्यो राबोवंक मेळनात.
फकत पगार घालपी एक कारकून केल्या तिका.
तर, दिल्लीचेर नदर दवरून म्हाळशीन शिवदासाचें पुस्तक छापलें.
शिवदासान फोंड्या मतदार संघाचेर नदर दवरून
पुस्तकाच्या विमोचनाखातीर रवीक आपयलो.
विमोचनाक पयलेच खेपे समाजांतले सगळे लोक आयले.
तांकां पळोवन शिवदास भुरकुटलो आनी उलोवंक लागलो.
जावपाचेंच. कितलोय जाल्यार तो कोंकणीवादी निजाचो.
आपल्याक बऱ्याक पडटा तें कोंकणीच्या बऱ्याक आनी
आपल्याक वायटाक पडटा तें कोंकणीच्या वायटाक
अशें मानपी. मडगांवकारां भशेन.
समजा एके संस्थेच्या अध्यक्षाचेर कोणेंय आरोप केलो
तो संस्थेचो दुरुपेग करता वा अध्यक्षपद सोडिना म्हूण,
घे मागीर, वातावरण निर्मिती करूंक बोव्वाळ.
पळय पळय पळय, तो कोंकणीचो दुस्मान.
समजा दुडू ना म्हण एखाद्र्या लेखकाचीं सरकारान पुस्तकां घेतलीं नात.
जाल्यार सरकाराच्या नांवान बोबो आनी हुयेली.
हें सरकार म्हळ्यार कोंकणीचें दुस्मान,
तें उडोवन कोंकणीचें सरकार हाडूंक जाय.
म्हणजे हाचीं पुस्तकां विकती घेवपी सरकार.
मागीर ह्या लेखकाच्या प्रभावान दिपकावल्ली नवी पिळगी उद्गा.
अशें? कोंकणीचें दुस्मान? मागीर शिकोवया ताका बुद्द.

मागीर ते चार पांच जाण एकठांय येतात
ते दोन चार वाड्यांवयले आसतात पूण पेपराचेर
छापून येतना गोंयच्या खांचीं कोंयड्यांतल्यान म्हूण येतात.
पूर्णानंदा सारको कोंकणीच्या जैताचें अपूर्णशें एक गीत बरयता.
त्या गीताच्यो येसायो जातात आनी तें मागीर
समरगीत जावन संमेलनाचे वेदीर गाजता.
आनी बुद्द शिकोवपाची चळवळ मागीर थंयच शेळेता.
अशा ह्या वातावरणांत शिवदासान एक उपाय सुचयलो.
तो आपल्या पुस्तक विमोचना वेळार उलयतालो.
मुखार गर्दी करून खुबशे अनवळखी लोक बशिल्ले.
ते साहित्य मळार सोडात, चळवळिच्या वेळारूय नाशिल्ले.
चड करून चर्चिलाच्या हाताक ते वेळार सांपडूंक नाशिल्ले आसुंये.
आज तांकां आझाद भवनांत पळोवन शिवदास सोडाच
प्रकाशक म्हाळशी लेगीत भुल्लुसलो.
आपणें पुस्तकाच्यो चड प्रती हाडूंक ना म्हूण चिटमिटलो.
लोकांनी आतां खंयूय वतना फुलां व्हरचीं न्हय तर पुस्तक
विकतें घेवन व्हरचें.
फुलांचे सुवातेर पुस्तकां भेटोवचीं
पन्नाशिंतल्या शिवदासाचो सोंपत्या शेंकड्यांतलो
केदो व्हडलो क्रांतिकारी विचार.
सुवाळ्याक आयिल्ले ते अनवळखी लोक लेगीत भारावले.
हे लोक कोण तें आतां सांगूंक जाय.
रवी नायक विमोचन करूंक येता हें पेपरार आयलें
तें तिकेटीक इत्सूक आशिल्ल्या लोकांनी वाचलें.
रवीकं मेळपाची हीच संद म्हूण तांणी गर्दी केली.
शिवदासाक दिसलें, ते सगळे विमोचन सुवाळ्याक आयल्यात.
देखून ताणें फुलां जाल्यार पुस्तकां हो विचार मांडलो.
पूण रवी नायकाक मात तो विचार मानवलोना.
ताचेंय तशें बरोबरूच म्हणूंक जाय.
फाल्यां समजा रवी निवडून येवन मुखेलमंत्री जालो,
ताचें अभिनंदन करूंक फोंडेकार सगळे भायर सरले.
आतां फोंड्या पुस्तककार लागीं म्हळ्यार शिवदास.
सगळ्यांनी शिवदासाचीं पुस्तकां व्हरून ताचेर घालीं जाल्यार?
मागीर रवीच्या बाबड्याच्या घरांत घरभर वाळटी.
ते भायर चडशीं देवळां ह्याच म्हालांत आसात
म्हणटकच देवळांत वतनाय फुलां जाग्यार पुस्तकां.
म्हणटकच सगळीं फुलकारां पाटल्यांत पुस्तकां घालून भायर बसतलीं.
मागीर अंत्रुजे भायलो आनी भितरलो हो थळावो वाद सुरू.
अंत्रुजेंतले लेखक अंत्रुजे भायल्यांच्या पुस्तकाक विरोध करतले.
देखून फुडाराचें चिंतपी रवीन ह्या विचाराक विरोध केलो.
फुलांची सुवात पुस्तकां केन्नाच भरून काडूंक शकनात म्हळें.
ते खातीर ताणें अत्यंत वेव्हारीक उदाहरण दिलें.
ताका लागून शिवदास दुखावलो हातूंत दुबाव ना.
शिवदासूच कित्याक, सगळे लेखक प्रकाशक दुखावले आसतले.
तोंडाकडेन आयिल्लो पुस्तकांचो खप असो पोक जालो न्हय.
रवीन म्हळें, एके बायलेक फुलां माळपाचीं आसतात
तेन्ना तिका कितें पुस्तकां व्हरून माळपाचीं?
लोक खो खो करून हांसले तरी तातूंत तथ्य आशिल्लें.
थोडयांचीं पुस्तकां तर सामकीं जाडजूड, वजनदार.
एके गुरवार बायलेक तीं माळपाचीं थारायलीं जाल्यार घात.

ते खातीर गर्दी पडटली ती अभयकुमाराच्या पुस्तकांक,
भिडेच्या बालसाहित्याक आनी रामभाऊच्या कवनांक.
सगळेच कितें बारीक पुस्तकां काडटात अशें न्हय.
शिवदासाचो विचार बरो आसलो तरी तातूंत
लाव-लुकसाण आशिल्लेंच.
फुलां माळपाच्या सुवाळ्याक लागून लेखक गिरेस्त जावपाचे
पूण लेखिका गरीब जावपाच्यो.
एके लेखिकेक आपल्याकूच फुलां माळपाचीं आसत
जाल्यार ती दुसऱ्या लेखकाचीं पुस्तकां घेतली?
ना. आपलींच पुस्तकां आपल्याकूच माळटली.
रवीन हो विचार भायरायलो तें एक बरें जालें.
तरी हो विचार वेगळे तरेन चालीक लावं येता.
किरिस्तांव जावं हिंदू मड्यार मुजरत फुलां घालतात.
त्या जाग्यार पुस्तकांचो वापर जालो जाल्यार बऱ्याक पडपाचें.
प्रकाशकांची आलमारिंची चिंता आपसूक पयस जावपाची.
आसूं. फुलकार समाज जसो आयज संघटीत जाला तसो
पुस्तककार समाज एक दीस संघटीत जातलो.
तांचे खातीर खाशेल्यो राखीव सुवातो फाव जातल्यो.
खुबश्यो लेखिका फुलकारां वांगडा पुस्तकां विकूंक
देवळांत भायर वतांत बसतल्यो.
हाका लागून समाजांत समानताय वाडीक लागतली.
शिवदासाचो पन्नाशी सुवाळो खंयूय पावूं,
पूण हो ताचो विचार मूळ धरीत जाल्यार क्रांती जातली.
तेच क्रांतिची आमी वाट पळोवया.

* * *

---

## कागदाची बोट

□ मूळ इंग्लीश : गुलजार
कोंकणी अणकार : शंकर

तिस्क.
थंयसावन तिठ्यामेरेन;
मागीर रस्त्यार
आलमपेड्ड्यार
उटंगार पावसा-पाणयाच्या
म्हेळक्या लोटावांगडा;
भिजूड,
आपणाकच विचारिल्लेवरी :
''दरेके बोटीक
तिची तड आसता.
म्हजी खंयची ?''

कसलें नावाडगेपण हें !
पुणून
एका निरुपद्रवी कागदा-
कपट्याक नकळटां आपणें एक
विशाळ अर्थ दिला म्हणपाचें त्या कोणा
निरागस भुरग्याक खबर लेगीत नासुंये.

## कागदाचीं व्हडीं

□ अरूण साखरदांडे

भाव गेले भयणी गेल्यो
यादींच्यो रोयणी गेल्यो
सोबीत सपनां राती गेल्यो
देवाफुडल्यो वाती गेल्यो.

धोंपर फुटत खेळप गेलें
एकामेकां फाटल्यान धांवप गेलें
रडटां रडटां हांसप गेलें
हांसतां हांसतां रडप गेलें.

खंय गेलीं कागदाचीं
उदकांतलीं व्हडीं ?
आमी आतां उस्तितात
एकामेकांचीं मडीं.

दारां आनी जनेलांच्यो
जाल्यो आतां वणटी
गर्भकुडींत पालवली
एकूच एक पणटी.

एकाचीं शाणेपणां
दुसऱ्याचीं पिशेपणां
कोणेंतरी घराचीं
खणलीं रे सोपणां.

घराफुडलो हुमटलो
पार्दिकाचो रूख
दाव्या दोळ्यान पळोवं नंजो
उजव्या दोळ्यांतलें सूख.

आतां एकामेकांचो
कोणाक ना हुसको
म्हज्या घराक आतां
हांव जाल्लां परको.

## रूच !

□ सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

तूं आयलें
आनी म्हज्या,
अळणी जिवितांत
मिठाचे दोन कण
उडोवन गेलें.

खऱ्यांनीच
आतां म्हजे जिणेक
रूचशी आयल्या.

## तूं

□ सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

म्हजे नदरे मुखार तूं
म्हजे नदरे आड तूं
दिसाचें तूं
रातिचें तूं
म्हज्या सपनांनी तर
तूंच तूं.

म्हज्या अख्ख्या जिवितांत
फकत तूंच भरलां
आतां म्हजो हांव
खंय उरलां ?




# 'प्रिय अमुचा एक महाराष्ट्र देश हा' ते 'दुसऱ्याचीं चाकरी जोंधळ्याची भाकरी खावचेली ना.'

**उल्हास बुयांव**

म्हाका ल्हानपणा सावन गावपाची, नाटकांनी काम करपाची आनी कवितांक चाली लावपाची आवड. भुरगेपणांत जांबावले शाळेंत शिकतना जयाबाईन (सौ. जया प्रभाकर भेंब्रे) म्हाका एके कवितेक चाल लावपाक लायिल्ली आनी ती सगळ्या भुरग्यांक आवडिल्ली हाचो म्हाका अजुनूय उगडास आसा. ती कविता 'ये ये घारी माझ्या दारीं / चारा पाणी घे तरी.' तेन्ना हांव सुमार आठ-णव वर्सांचो आशिल्लों.

उपरान्त १९५५ ते १९७६ मेरेन आमी मडगांवां हरि मंदिराचे चाळींत रावतालीं. १९५७ ते १९६० हांव मुंबय नायट-स्कुलांत शिकतालों. गेरगांवांतलें राममोहन हायस्कूल त्या वेळार नांवाजतें आशिल्लें. त्याच स्कुलाच्या 'पोप्युलर नायट स्कुलांत' शिकतालों आनी दिसाची नोकरी करतालों.

आमचे गोंयचेच वी. एन्. नायक तेन्ना ह्या नायट-स्कुलाचे प्रिन्सिपल आसले. त्या वेळार तांणी म्हाका खूब धीर दिल्लो. शाळेच्या गॅदरिंगांत वांटो घेतना आमी चड करून संगीत नाटकाचो एक तरी प्रवेश करताले आनी म्हजो इस्कोलांतलो इश्ट रमण माळवदे आनी हांव तातूंत गावपाच्यो भुमिका करताले. आमगेल्या नायट-स्कुलांत कवी भौ. हरदत्त खांडेपारकार आनी भौ. राम भट हे गोंयकार शिक्षकूय आमकां शिकयताले.

मुंबय सोडून गोंयां आयले उपरान्त म्हजी चड इश्टागत भौ. आनंद आमोणकारा लागीं जाली. तागेर रातच्या जेवणा उपरान्त मनरिजवणे खातीर आमी गीतांच्यो कार्यावळी करताले.

१९६४ वर्सा मडगांवच्या राजेन्द्र प्रसाद स्टेडियमाचेर अ. भा. गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलन जावपाचें आशिल्लें. आनंद आमोणकार ताचो एक चिटणीस आशिल्लो. सम्मेलनाची सुरवात 'प्रिय अमुचा एक महाराष्ट्र देश हा' ह्या 'महाराष्ट्र गीता'न करपाचें थरिल्लें. पूण गोंयांत 'महाराष्ट्र गीत' म्हणपी कोण नाशिल्लो. हें गीत ताचे मूळ चाली सयत हांव म्हणूंक शकतां म्हूण आनंद आमोणकाराक खबर आशिल्लें. ताणें सम्मेलनाच्या जाळवणदारांक म्हजें नांव सुचयलें आनी तें गीत हांवेंच म्हणचें अशें थरलें. पूण म्हाका, आनंदाक आनी आनंदाची भयण मीरा (सौ. पोकळे) – आमकां तिगांकूय दिसतालें, 'महाराष्ट्र गीता' पयलीं कवी दामोदर अच्युत कारे हांचें 'स्मरूनी गोमंतदेवी मूर्ती सौख्यदा' हें 'गोमन्त गीत' सम्मेलनांत म्हणचें. ते प्रमाण सम्मेलनाचे मुखेल जाळवणदार स. नरशिंव (दादा) सुकेरकार आनी स. दामोदर काशिनाथ नायक हांचेकडेन आमी आमचें म्हणणें मांडलें. पूण तांणी 'गोमन्तगीत' म्हणपाक परवानगी दिली ना. पूण तरी आमी थारायलें, 'महाराष्ट्र गीता' पयलीं 'गोमन्त गीता'चें एक तरी कडवें म्हणपूच.

साहित्य सम्मेलनाच्या अदमासाकूच नागपुरचे शाहीर स. शरद मुठे हांणी गोंयांतल्या शाळां शाळांनी करपा खातीर कांय कार्यावळी आंखिल्ल्यो. मुठे आनंद आमोणकाराचे इश्ट आशिल्ल्यान तांणी म्हाकाय आपले वांगडा कोरस म्हणपा खातीर घेतलो. तांगेलें 'सैन्य हिंदवी गोव्याकडे, पाऊल पडले पुढे पुढे' आनी 'गोमांतक आणि महाराष्ट्राचे पिढ्या पिढ्यांचें नाते' हीं गीतां गोंयांत खूब गाजलीं. त्या वेळार 'चिऊमाऊचं बाळ किती छान छान छान' हें तांचें गीत मुंबय आकाशवाणीचेर खुबूच गाजिल्लें. 'महिला आणि नूतन मराठी विद्यालयांत'ल्यो कांय चलयो आमचे वांगडा कोरस गावंक येताल्यो. तातुंतलें एक नांव याद जाता – वासंती घाटे हिचें (आयच्यो सौ. वासंती दामोदर देसाय). हेर नांवां आतां याद जायनात. ह्या कोरसाच्या वांगड्यांनी म्हजे वांगडा साहित्य सम्मेलनांत महाराष्ट्रांतल्यान आयिल्ल्या सुमार धा हजार लोकां मुखार गोमंतगीताचें एक कडवें आनी महाराष्ट्र गीत गायलें.

साहित्य सम्मेलनाच्या माटवा भायर आनंद आमोणकारान आनी आमी राष्ट्रसेवा दलातर्फे च्याचो स्टॉल घाल्लो. पूण आपलें म्हणणें मांडपी रंजन सरदेसाय, उदयबाब भेंब्रे, अ. ना. म्हांबरो बी गोंयच्या नीज पुतांचेर महाराष्ट्रांतल्या मावळ्यांनी आनी गोंयांतल्या कावळ्यांनी हल्लो केलो त्या वेळार आनंद आमोणकारान आनी आमी हेरांनी रोखड्या रोखडो च्याचो स्टॉल बंद करून आमचो निशेध प्रगटायलो. आनी त्याच दिसा, त्याच वेळार कोंकणीची कीट म्हज्या काळजांत पेटली.

ते रातीं सदचेवरी आनंद आमोणकाराच्या घराकडेन संगिताची बैठक भरली तेन्ना शरद मुठेक हांवें उत्तर दिलें – *'कोणी आहे म्हटल्याने का आहे होते; गोमांतक आणि महाराष्ट्राचे कधींच नव्हते नातें.'* नातें आशिल्लें जाल्यार आमच्या भावांक आयज असो मार पडचो नाशिल्लो.

जनमत कौलाच्या वेळार महाराष्ट्रांतल्यान कला पथकां आनी वक्ते गोंयांत आयात जाले. एक दीस अशेच सांजवेळा मडगांवां स्टेट बँकेमुखार जार्दीनाच्या कठड्याचेर बसून आमी उलयताले – बाबू नायक, मधुबाब तिंबलो, शांतीलाल खुशालदास, चंद्रकांत केणी, उदयबाब भेंब्रे, शंकर भांडारी, नुरुद्दीन मवानी, देविदास शिरोडकार, मोहन कारापुरकार, वसंत कारे, अण्णा फणसे, अण्णा सरमळकार – जनमत कौलाच्या संग्रामाक तोंड कशें दिवचें हाचेर उलोवणीं चलिल्लीं. जण एकल्यान आपणाली जापसालदारकी उबारली. वक्त्यांची तर माळ तयार जाली. पूण कला पथकाचें कितें करप? हांवें म्हळें, ही जापसालदारकी हांव घेतां. आनी दुसऱ्याच दिसा सावन आमी कामाक लागले. कलाकारांक सोदून हाडले, येसायोय सुरू जाल्यो. आनी अशे तरेन महाराष्ट्रांतल्यान आयात केल्ल्या कलापथकांक जाप दिवचे खातीर 'जय गोमंत कला पथका'ची स्थापना जाली. ह्या कलापथकांत स. मोहन कारापुरकार, स. शंकर भांडारी, पुंडलीक (दादो) केळेकार, एन्. शिवदास, नवनाथ नायक, वीणा आनी स्मृति काटकार, सुरेश काकोडकार, सुदन शेट, सुरेश आनी महेश नमशीकार हांणी वांटो घेतिल्लो. (कांय जाणांची नांवां चुकून उरल्यां आसत जाल्यार तांणी म्हाका माफ करचें.)

पांडुरंगबाब तिंबलो हांणी आमकां शेवरलेट पिकअप दिल्ली. नुरुद्दीन मवानी आपली फियॅट घेवन आमचे वांगडा आसतालो. पयशे एकठांय करपाचें काम मोहन कारापुरकार करतालो. सकाळीं धा ते रातच्या इकरा मेरेन गांवां गांवांनी आमच्यो कार्यावळी जाताल्यो. त्यो चडांत चड पंचेचाळीस मिनटांच्यो आसताल्यो. आनी तातुंतलीं गीतां कोंकणी आशिल्ल्यान भौसाकूय तीं मानवतालीं. हातूंत मनोहरबाब सरदेसाय हांचें 'जायात जागे', 'नदर कावळ्याची तवशार', शंकर भांडारी हांचें 'शेजारचा म्हातारा गोव्याला आला', म्हजें 'जमचेलें ना रे बाबा जमचेलें ना / दुसऱ्याची चाकरी जोंधळ्याची भाकरी खावचेली ना' हीं गीतां आसतालीं. ते भायर, बाकीबाब बोरकार, विजयाबाय सरमळकार, गजानन रायकार, दासराज तेलंग हांचींय गीतां

आसतालीं. एक दीस पेडण्यां आमची कार्यावळ चलताली. थंय स्वातंत्र्य सैनिक नामदेवबाब हरमळकार म्हजे लागीं एक गीत घेवन आयले आनी ताणीं ताका चाल लावंक सांगली आनी तेच कार्यावळींत हावें तें म्हणचें असो आग्रो धरलो. हावेंय त्या गीताक थंयचे थंय चाल लायली आनी तें लोकांक म्हणून दाखयलें. तें गीत आशिल्लें 'उठा रे उठा उठा गर्जूनी देशभक्त देती इशारा / संघराज्याच्या शूर सैनिकांनो आह्वान हे तुम्ही स्विकारा.'

आमच्या पथकाच्यो कार्यावळी चडश्यो हिंदू मतदार चड आसताले थंय जातात्यो.

एक दीस सांजेच्यां पांचांक रायबंदरा आमची कार्यावळ आशिल्ली. आनीक एके कडेन कार्यावळ करून हांव नुरुद्दीन मवानीं वांगडा तांगेलेच फियेटीन रायबंदरा वतालों. वाटेर आमचो दोगांयचो कसल्या तरी विशया वयल्यान वाद जालो. कुंडयचे घांटयेर हांव मुतूंक म्हूण रावलों तेन्ना नुरुद्दीन म्हाका थंयच वाटेरच सोडून गेलो. कितें करचें समजना जावन हांव थंयच रस्त्या कुशीक उबो रावलों. कांय वेळान एक धाकटी मोटार म्हऱ्यांत येवन उबी रावली आनी चलोवप्यान म्हाका विचारलें, 'बुयांवबाब, खंय वचूंक रावल्यात?' हांवें म्हळें, 'रायबंदरा.' मुखावयलें दार उकतें करून ताणें म्हाका भितर घेतलो. रायबंदरा देंवऽ म्हणसर त्या मनशाचें नांव लेगीत विचारपाक हांव विसरलों. पूण एक गजाल जाणवली – 'बुयांव' नांव लोकांच्या तोंडार घोळूंक लागलां.

चीन-भारत युद्धा वेळार मडगांवां विद्याभुवनांत हांवें 'कोंकण भारती' हे संस्थे मार्फत हांवेंच बरयल्लें 'देश हमारा धरती अपनी' हें नाटकुलें एके हिन्दी सर्तीत सादर केल्लें. पड्ड्या भितल्ल्यान 'उल्हास बुयांव' हें नांव निवेदकान उच्चारलें तेन्ना प्रेक्षकांमदीं बशिल्ले लोक व्हडल्यान हांशिल्ले. इश्कोलांत शिकतना हांव म्हजें नांव उल्हास शणै अशें लायतालों. त्या वेळार पयलेच फावट हांवें माचयेर लोकां मजगतीं 'बुयांव' हें आडनांव वापरिल्लें. आनी ताका कारणूय तशेंच आशिल्लें. मडगांवां हरिमंदिराचे चाळींत आमी रावतालीं तेन्ना एक जाणटेलो खादी तोपी पुडवें ज्युदी घालपी हरिजन दारामुखावयल्यान येतना वतना सदांच म्हाका 'ये बुयांव!' म्हूण उलो मारतालो आनी 'तूं आमचो वेरेंचो मरे!' अशें म्हणटालो. हांवें आवयक विचारलें, तो म्हाका बुयांव कित्याक म्हणटा? जाल्यार आवयन सांगलें, आमचें मूळ आडनांव बुयांव आनी आमी मूळ बारदेस वेर्ती-वेरेंची. त्याच दिसा हांवें थारायलें, 'बुयांव' ह्या म्हज्या निजाच्या आडनांवाचोच वापर करप. विद्याभुवनांतल्या नाटकुल्या उपरान्त जायत्या जाणांनी म्हाका सांगलें लेगीत, तूं हें आडनांव लावनाका, लोक तुका हांसतात. हांवें म्हळें हांसूं दी, म्हजें खरें आडनांव लावपाक लज कसली? कुंडय घांटयेवयल्या त्या प्रसंगा उपरांत आयज मेरेनच्या म्हज्या जिवितांत रंगमाचये वयल्यान बुयांव ह्या नांवाचो निवेदकान उच्चार केला तेन्ना ताका प्रेक्षकांच्या हांशान न्हय तर ताळयांनीच येवकार मेळ्ळा. हांगाच म्हाका एके गजालिचो खुलासो करचोसो दिसता. जायत्या जाणांक दिसता, हांव कोंकणी भक्त म्हूण हांवें 'भरणे' आडनांव बदलून 'बुयांव' आडनांव घेतलां. हें खरें न्हय. भरण्यांचो कुळदेव मंगेश आसूंक जाय. आमचो कुळदेव महालक्ष्मी दामोदर. जांबावले श्री दामबाबाले शणैचे वांगडी आसात (शणै घोडो, शणै कुंदो, शणै भाटकुळी, शणै भोबो आनी हेर) तातुंतलोच बुयांव हो एक वांगडी.

एक दीस, सांजवेळा, आमची कार्यावळ कुंडय आशिल्ली थंय आमचेर फातरांचो आनी गाळयांचो शिंवर जालो. पूण तरी ती कार्यावळ आमी केलीच. ती सोंपोवन आमी नुरुद्दीन मवानींचे फियेटींतल्यान मडगांवां वचपाक भायर सरिल्ले. वाटेर म्हाड्डोळा बाजारांत आमची गाडी 'महाराष्ट्रवादी' गोंयकारांनीं आडायली. नुरुद्दीनाक तेंकून मुखावयल्या सिटाचेर बशिल्ल्या शंकर भांडाऱ्याल्या दोळ्यांचेर एकल्यान कांदो मारलो. हांव फाटल्यान दाव्या अर्दान दाराक तेंकून बशिल्लों. एकलो आयलो आनी पच्च् करून म्हज्या तोंडार थुकलो. फाटल्यान उजवे वटेन दाराक तेंकून मोहन कारापुरकार बशिल्लो. उदयबाब आमचे मदीं बशिल्लो. इतले मजगतीं नुरुद्दीन मवानी गाडयेंतल्यान देंवलो आनी त्या खुबिल्ल्या जमावाक सांगूंक लागलो, 'आरे, हांव मडगांवचो वेपारी मरे! तुमी म्हाका वळखनात?' नुरुद्दीन मवानीच्या तोंडार एकल्यान थापट फुलयलें आनी म्हळें, 'व्यापारी मळे? मागीर व्यापार कर!' इतल्यान प्रकाश हॉटेलाचो धनी पांडुरंग (हो पांडुरंग हॉटेलकार म्हजो म्हाड्डोळांतलो बरो इश्ट) मोटारी म्हऱ्यांत आयलो आनी जनेलांतल्यान तकली भितर काडून सांगूंक लागलो, 'लोक चवताळ्ळ्यात. कांय जाणांनी पेत्रोलाचे गॅलनूय भरून हाडून दवरल्यात. कितेंय अनर्थ घडचे पयलींच तुमी गाडी सुरू करून हांगासल्ल्यान कूस मारात.' शंकर बेगी बेगीन सकयल देंवलो आनी नुरुद्दीनाच्या बुश्शर्टाक धरून ताका ओडून हाडून गाडयेंत बसयलो आनी गाडी स्टार्ट करपाक लायली. पांडुरंगान गाडये मुखार वचून कितें तरी बोवाळ करून लोकांक कुशीक काडले. नुरुद्दीनान गर्दीतल्यान गाडी भायर काडली आनी आमी फोंड्यां पावले. त्याच वेळार शाबू देसायाची संघप्रदेश जोत फोंड्या पाविल्ली. कोणें तरी शाबू देसायाच्या कानार आमची म्हाड्डोळची गजाल घाली. शाबू देसाय खुबळ्ळो. 'आत्तांच्या आत्तां म्हाड्डोळा वतां आनी सगळ्यांक उजो घालतां.' शाबून गर्जना केली. ताका आमी कसो बसो थातारलो.

दुसऱ्याच दिसा म्हाड्डोळच्या ग्रावंडाचेर आमी जय गोमंत कलापथकाची कार्यावळ सादर केली. त्या दिसा वक्तो एकलोच आशिल्लो – शंकर भांडारी! शंकराच्या भाशणान आयकुपी सामके भारावन गेले. शंकराचें तसलें भाशण पयलीं हांवें केन्ना आयकूंक नाशिल्लें आनी मागिरय केन्ना आयकलें ना.

आमचे कार्यावळीक सगळ्यांत कमी लोक प्रियोळा – धा बारा जाण आनी चडांत चड लोक वास्को – सुमार १५ ते २० हजार – जाल्ले. वास्को कार्यावळ सादर करतना वास्कोचे समाजीक वावुरपी स. विठू लोटलेकार पानां आनी नोटांनी गुंथिल्लो हार घेवन म्हजे म्हऱ्यांत आयले आनी ताणीं पयस फुटपाथा कडेन बोट दाखयलें. थंय स. वासुदेवबाब साळगांवकार उबे आशिल्ले आनी आपल्या हातांच्या दोन बोटांची 'व्ही' करून आमकां दाखयताले. तो पानां आनी नोटांचो हार तांणीच आमकां धाडिल्लो.

पेडणें ते काणकोण मेरेन जंय जंय आमी कला पथक घेवन भोंवल्यात त्या दर एका गांवांत लोकांनी आमकां च्या, जेवण-खाण दिवन आनी हेर जायत्या तरांनी आधार दिला. सांग्यारूय कोसंबे भावांनी आमकां नोटांचो आनी पानांचो हार भेटयला.

कार्यावळिच्या निमाण्या दिसा, आगोंदा, आमचें शेवरलेट व्हेनिचें व्हील सुटलें. पूण खंयच्याच कलाकाराक दुखापत जाली ना. एक मात घडलें – दर एका गांवांत जावपी कार्यावळीक कळाव जालो. निमाणी कार्यावळ माश्यां, काणकोणां ९ वरांचेर जावपाची आशिल्ली. पूण आमी पावलेच थंय रातच्या बारांक. बारा वरांचेर कार्यावळी थांबोवप असो नेम आशिल्लो. पूण इतलो वेळ लेगीत लोक आमची कार्यावळ पळोवंक बायल-भुरग्यांक घेवन हाजीर आशिल्ले. आनी आमी बारांक कार्यावळ सुरू केल्ली.

जनमत कौला उपरान्त ५०-६० हजारांची एक भौशीक जमात ग्रावंडार जाल्ली. ही विजय सभा आशिल्ली. ते उपरान्त लोहिया मैदानावयले एके सभेंत स. अण्णा फणरेन म्हाका उद्देशून 'हा आमच्या गोव्याचा शाहीर' अशें म्हळ्ळें. आनी उपरांत जायत्या जाणांनी भौशीक माचयेर आनी बरपांत म्हज्या नांवा वांगडा भौमानान आनी मोगान 'गोंय शाहीर' ही पदवी लायली.

* * *

# काव्योद्यान

## मलयाळी मातयेंत फुलिल्ली कोंकणी कविता

हरिश्चंद्र नागवेंकार

'काव्योद्यान' हो शरतचंद्र शेणै ह्या केरळांतल्या नांवाजत्या कवीन संपादित आनी संकलित केल्ल्या, केरळांतल्या कोंकणी कवितांचो एक झेलो हालींच उजवाडाक आयला. विसाव्या शतकांत केरळांतल्या वेगळ्या वेगळ्या कोंकणी कविंनी बरयिल्ल्या कवितांतल्यो प्रातिनिधीक कविता वेंचून हो कवितां-झेलो उजवाडाक हाडला. केरळचे भुंयेचेर फुलिल्ल्यो ह्यो कविता अशें सांगून संपादकान फुडें म्हळां, विसाव्या शेंकड्यांत, कोंकणी कवितेक केरळच्या कविंचें कितलें योगदान लाबलां, हाची कल्पना हो झेलो दिता. शरतचंद्रबाबांचें हें म्हणणें पुरायेन खरें, हाची जाणवीक दिवपी हो कवितां-झेलो. ह्या संग्रहांत ३५ कविंची एक-एक कविता दिल्या. असो हो ३५ कवितांचो झेलो वाचतकीर एक गजाल ध्यानांत येता, ती म्हळ्यार, केरळांतलें कोंकणी कविता-साहित्य संख्येन ल्हान आसत. पूण ताचो दर्जो मातय उणो ना. साहित्य जिविताचो हारसो म्हणटात. कवितेंत हें जिवीत, कवीन काळजाचे खोलायेंतल्यान उक्तायिल्ल्या उमाळ्यांच्या रुपान उकतें जाल्लें आसता. उमाळो जितलो उत्कट आनी कविची जिविताकडेन पळोवपाची नदर जितली व्यापक आनी खोलायेची, तितली कविता उचेल्या पावंड्याची जाता. कवितेंत वापरिल्ल्या उतरांची शक्त उमाळ्यांचे उत्कटतेचेर आनी खोलायेचेर आदारिल्ली आसता. 'काव्योद्यान' ह्या संग्रहांतल्यो कितल्योश्योच कविता ह्या म्हणण्याचें खरेपण दिवपी आसात. ह्या संग्रहांतली पयली कविता आसा नारायण नरसिंह पै हांची **कुचेलोपाख्यान** ही. कुचेलोपाख्यान हरिकथेचो आरंभ सांगपी कविता. कुचेलु ह्या रात-दीस तपश्चर्या करपी ब्राह्मणाचें वर्णन हे कवितेंत प्रत्ययकारी जालां. राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविन्द पै हांचे काव्यशक्तिची तांक दाखोवपी **विसरलों** ही कविता त्या संग्रहांतली एक उत्कृश्ट कविता. रचनेचे नदरेन जशी ती वयल्या पांवड्याची, तशी उमाळ्यांचे उत्कटतायेक लागूनय ती खूब कलात्मक जाल्या.

आर. सी. शर्मा हांचें **राक माका** हें भक्तिगीत ताल, नाद आनी लय हांचो सोबीत संगम दाखयता. जी. कमलम्माळ हांणी बरयिल्लो रघुरामायणाच्या पांचव्या अध्यायाचो आरंब, तशेंच आर. गोपालप्रभू हांणी 'ओट्टन तुळ्ळल' रचनेचे शैलीन बरयिल्ल्या **कल्याण सौंगधिक** काव्यपुस्तकांतलो एक वांटो **भीम-हनुमंत संवाद** अश्यो दोन रचनाय ह्या संग्रहांत दिल्यात. ह्यो दोनय रचना पुराण-कथांतले दोन प्रसंग दोळ्यांमुखार घसघशीतपणान उबे करतात. **पुष्पांजली** हे पी. एस्. रामचंद्र शेणै हांचे देवाची प्रार्थना करपी भक्तिगीत तातुतले उत्कट भावनेक लागून वाचप्याच्या काळजाक भावता. वत्सला मंजुनाथ राव हांची **प्रायश्चित** ही कविता आवयची पुताविशिंची जी क्षमाशील वृत्ती आसता, तिचें एके घडणुकेच्या कथनांतल्यान प्रत्ययकारी रितीन वर्णन करता. पी. जी. कामत हांची **लगन** ही कविता तांच्या मिस्कील विनोदाची पत दाखयता, तशीच तांची जिणेकडेन पळोवपाची नदरय ती दाखयता. एन. पुरुषोत्तम मल्ल्या हांची **गोविन्द पै शतकं** ह्या पुस्तकांतल्यान घेतिल्ली **मंजेश्वर गोविन्द पै** ही रचना ह्या 'राष्ट्रकवी'ची थोड्याच पूण समर्पक अशा उतरांनी व्हडवीक गायता. **उजो, वारें, उदाक** हे कवितेंत एन्. बी. प्रभू हांणी सैमाचें मनशाचे जिणेंतलें म्हत्व सांगलां.

ह्या संग्रहांत **पिश्शें** ही के. श्रीधर शणै हांची कविता, **सैतान मरनी** ही भक्ता आर. काञंगाड हांची कविता आनी वी. शेट बलराज हांची **हांसता कि हांसयता** ही कविता, अश्यो तिनय रचना आयच्या समाजातली स्थिती चितरायतात. ह्या तिनय कविंनी प्रतिकां आनी प्रतिमा हांचो योग्य असो उपेग करून आयच्या समाजातली मनशाची आवतिकाय उकती केल्या. **जाय जाय मोगरा माली** हे के. के. सुब्रह्मण्यन् हांचे कवितेंत कवीन मोगऱ्याच्या फुलाची व्यथा कलात्मकतेन उकतायल्या. के. अनंत भट हांची **कर्माचें फल** ही कविता कविची चिंतनशील नदर दाखयता, जाल्यार यू. एस्. नारायण कामत हांची **कालवर्ष** ही कविता, सैमीक कोपाक लागून दर्यादेगेवयले खारवी लोकांचे जिणेचेर कसो आकांत येता, ताचें चित्र वास्तवपूर्ण रितीन तशेंच समर्पक उतरांचो वापर करून दोळ्यांमुखार उबें करता. एन्. एन्. आनन्दन हांची **कोंकणी विजयम** हे कवितेंत कविचो आपणाले मायभाशेवयलो मोग परगट जाला. **ती हांसली** ही आर. एस्. भास्कर हांची कविता ह्या संग्रहांतल्या कांय उत्कृश्ट कवितांमदली एक आसा. प्रतिकां आनी प्रतिमांचे उदेशीं कवी समाजाचे सद्यस्थितिचेर भाश्य करता. अन्याय अत्याचार आनी क्रूरताय हांणी भरिल्ल्या ह्या संवसारांत शांतिचो आशावादी सूर परगट करपी. तांची कविता फकत तत्त्वचिंतनात्मकच जावंक ना, जाल्यार तातूंत सैमाचें चित्रमय वर्णनय आसा. के. नारायण नायक हांच्यो चारोळ्यांच्या रुपांतल्यो चार कविता, ह्यो ह्या कविता-संग्रहाचें एक वैशिश्ट्य. ह्यो चारोळ्यो कविची काव्य-फिशालकाय दाखयतात, तश्यो ताची जिविताकडेन पळोवपाची नदरय उकती करतात. बिलासिनी एन्. नायक हांणी **जीब न्हय, जीवन उलयता** हे कवितेंतल्यान मनशाची वागणूक सैमासारकी निरपेक्ष, अहंकारशून्य आनी लोकांक सुखी करपी अशी आसूंक जाय, हो संदेश दिला. सग्रि दिनेश नायक हांणी **सुख-दुःख** हे कवितेंत मनशाची जीण म्हळ्यार सुख-दुख्खाचें मिश्रण आनी जिणेची परिणती ही मर्णांत आसता, हें सांगलां. ह्यो दोनूय कविता अभिव्यक्तिचे नदरेनय बऱ्यो जाल्यात.

पी. एन्. शिवानंद शेणै हांची **बायल** ही कविता कविच्यो बायलेविशिंच्यो अपेक्षा नकसुदपणान व्यक्त करता. हे कवितेंतल्या उत्कटतायेन परगट जाल्ल्या उमाळ्यांक लागून तिका कलात्मक उंचाय लाबल्या. **पांजीरें** ही सुमित्रन हांची कविता मेजक्याच उतरांनी समाजांतल्या भ्रामक समजुतिचेर बडी मारता. ह्या संग्रहाचे संपादक शरतचंद्र शेणै हांची **इश्टा** ही कविता वाचतकीर तांची समाजीक प्रस्नांकडेन पळोवपाची पुरोगामी नदर काळजाक भावता. सैमाची पार्श्वभूंय दिवन हांणी सद्यकालीन समाजीक परिस्थिती कवितेंत प्रत्यकारी रितीन चित्रायल्या.

पी. एस्. प्रदीप हांचे **उपाधि** हे कवितेंत आयच्या काळांतलो मनीस देवाकडेन जो भक्तिभाव दाखयता, ताका सुवार्थाचीच बुनयाद आसता, हें आयच्या समाजांतलें सत्य उकतें जालां. के. एन. रमेश भट हांची **वत्तना व्हरताय कस्सलें, सांगा?** ही कविता भौतिक सुखां म्हळ्यार एक भ्रम, हो विचार समर्थपणान मांडटा. वी. सुरेश शेणै हांची **भिकारी** ही कविता आयच्या समाजांतले भोंदूगिरीचेर तशेंच भोळेपणाचेर बडी मारता. आर. के. प्रकाश हांची **केदाणा?** हे कवितेंत मनशाचें खरें सूख कित्यांत आसा, हें समर्पक आनी मेजक्याच उतरांनी सांगलां. कांचना बोस हांची

**चेरडालें मन्त्र** ही कविता आवय-बापूय कामाखातीर दिसभर घराभायर राविल्ल्या एका भुरग्याच्या संवेदनशील मनाचो थाव घेता, जाल्यार बी. प्रदीपकुमार भक्ता हांच्या **चुनावण** आनी **कोड्डू बद्द** ह्या कवितांत आयचे राजकीय परिस्थितिविशिंचें कविच्या मनांतले उमाळे उकते जातात. गो श्रीपुरं हरिकुमार हांची **परिश्रम कराय** ही कविता आयच्या तरणाट्यांची कश्टांबगर जियेवपाची सुखाधीन वृत्ती चित्रायता जाल्यार एम्. जी. राजीव हांणी आपणाले **नायन्टीटूवांतुलो लॅवर** हे कवितेंत आयच्या काळांतल्या चलयांक कसले तरेचो मोगी जाय, हें मिस्कील विनोदाचो आदार घेवन कलात्मकतेन चित्रायलां. कलाकान्त हांणी **वृक्ष आनी मनीष** हे कवितेंत मनशान रुखांची देख घेवंची, हो संदेश दिला. रुखांचे आदर्श हे मनशाक उजू मार्गार व्हरतले, हें तांणी समर्थपणान मांडलां. बी. नवीनकुमार भक्ता हांचे **बायलेलें पत्र** हे कवितेंत बायलेचो घोवावयलो आत्यंतिक मोग आनी तो पयस उरिल्ल्यान तिच्या मनांत निर्माण जाल्ली विरह-भावना, ह्या दोन उमाळ्यांचें, तिणें घोवाक केल्ल्या सुचोवण्यांच्या रुपान प्रत्ययकारी चित्रण जालां. सूर्या अशोक हांची **अम्मा** ही कविता म्हळ्यार एका संवेदनशील मनान काव्याच्या रुपांत केल्लें एक बऱ्यांतलें व्यक्तिचित्रण. आवयच्या सभावांतल्यो बारीकसाणी, तिचे वागणुकेंतले दाखले दिवन उकत्यो करपाची फिशालकाय हे कवितेंत घणघणीतपणान जाणवता.

अशो कांय बऱ्यो, कांय सादारण, तर कांय उत्कृश्ट कविता आशिल्लो हो संग्रह केरळच्या फाटल्या कितल्याशाच दसकांतल्या काव्य-साहित्याची आमकां समर्थपणान जाण दिता. भक्ती, मोग, सैम, समाजांतले अन्याय-अत्याचार आनी अनिश्ट प्रथा तशेंच अज्ञान आनी दळदीर, राजकी स्थिती, आदर्शांचे मनशाचे जिणेंतलें म्हत्व अशे वेगळे वेगळे विशय ह्या कविता-संग्रहांतल्या कवितांनी पळोवंक मेळटात. केरळच्या कोंकणी मनशाचें आनी समाजाचें मन ह्या कवितांनी पडबिंबीत जाल्लें आसा. केरळांतलो कोंकणी कवी हो फकत आपणाल्या वैयक्तिक उमाळ्यांचेंच परगटण करना, जाल्यार समाजीक दुखण्यांतल्यान निर्माण जाल्ल्यो मनशाच्यो व्यथाय ताच्या काव्यांत समर्थपणान व्यक्त जाल्यात, हें स्पश्ट करपी असो हो संग्रह. ह्या संग्रहाचें खाशेलेपण म्हळ्यार ताका संपादकाची खूब मोलादीक अशी प्रस्तावना लाबल्या. कविंचें चित्र आनी वळख दिल्ल्यान, तशेंच, केरळांतल्या काव्य-पुस्तकांची सुची दिल्ल्यान ह्या पुस्तकाचें साहित्यीक मोल वाडलां. हो संग्रह उजवाडाक हाडून शरतचंद्र शेणै हांणी कोंकणी साहित्याची व्हड सेवा केल्या. तांणी ह्या संग्रहाचें खूब कलात्मकतेन आनी वेवस्थितपणान संकलन आनी संपादन केलां. केरळच्या काव्य-संवसारांत कितें घडटा हाची गोंयच्या साहित्यिकांक यथार्थ जाणीव दिवपी असो हो संग्रह.

**काव्योद्यान**
**प्रकाशक आनी संपादक : शरतचंद्र शेणै**
**पानां : ५३**
**मोल : रु. ३६/-**

---

REGD. No. GOA 130

॥ श्री ॥

गोमन्ताश्रम,
चित्तरंजन रोड,
विले-पार्ले.

ता. २१ वैतुंब्र, १९४५

भौमानेस्त पांडुरंगबाब भांगी,

तुमकां सा. नमस्कार.

तुमचें १५ वैतुंब्राचें पत्र पावलें. तुमची वळख जावन खोस जाली. तुमी कांय तरणे-धाकटे भुरगे पणजे 'माण्डवी' नांवाचें कोंकणी हाती पंद्राळें हालींच अुजवाडावंक लागल्यात, हें आयकून म्हजो जीव भुरकुटलो. कोंकणिचे वावराडे भक्त प्रोफेसोर रामचंद्रबाब नायक हांणी आपणाल्या हातांत तुमगेल्या तारवाचें येरें धल्लां, हो अेक व्हडलो सुगुर्वो कसो हांव समजतां. देखून, तुमगेल्या कामांत तुमकां अुपाट येस मेळटलें, हांतूंत दुबाव ना. तुमी मात तुमगेलें तारू नेटान ताणूंक जाय.

भौमानेस्त शांतारामबाब आमोणकार हांणी 'माण्डवी'चो पैलो आंक म्हाका वाचूंक दिलो. हाची भायली आनी भितल्ली रेखणी सुंदर, भुलभुलायणी जाल्या. सगळे लेख हांवें वाचले. भौ बरे लागले. जायते कडेन नवे तरेची सात्वीक येवजणी म्हाका दिस्टी पडली; ती वाचप्यांक नवे तरेन येवजूंक लायतली. आमगेल्या भुरग्यांनी अशेच तरेन येवजून, जतनायेन, नकसूद बरें बरोवंक जाय. आवै-भाशेंत बरोवंक लागतकी, अडेचीं बंदनां तुटून, निजाच्यो मुळाव्यो, खोल येवजण्यो तकलेंतसून आपशींच भायर सरतात, हाचो हो घणघणीत पुरावो म्हळ्यार जाता.

'माण्डवी'च्या दिवाळी आंकाखातीर तुमी म्हजो आशीर्वाद मागतात आनी म्हाका कोंकणिचो 'भीश्माचार्य' म्हणटात! ही चड व्हडली पदवी जाली. कोंकणिचे भीश्माचार्य म्हजे आदींच जावन गेले. हांव तांगेली वाट चलतां. तीच वाट तुमी उमेदिच्या गड्यांनी धल्ल्या, हें पळोवन म्हगेलें मन नवे आशेन अुफेता.

तुमकां आनी तुमगेल्या – म्हगेल्याच म्हणात – पंद्राळ्याक म्हजो अुपाट आशीर्वाद. बरें जावं! चड-व्हड जावं! पंद्राळ्याचें साताळें आनी दिसाळें जावं! छापून अुजवाडा येवं! बऱ्यांतले बरे बरपी मेळून ताचो नांव-लोकीक चडूं! ताका खूब आयुश्य जोडूं!

तथास्तु म्हणात!

तुमगेलो
शणै गोंयबाब